# ाग

◇ आंक ७ ◇ फेब्रुवारी १९९८

: रवीन्द्र केळेकार

ंपादपी : माधवी सरदेसाय

खपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

ळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

त्र : मिलन


## ह्या आंकांत




ो पटी : रु. ७५/-
ार्थ्यांखातीर : रु. ६०/-
वर्सांची पटी : रु. २००/-

ा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
पये अदीक जोडचे)

चो नामो:

ग म्हयनाळें
बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
साउदादिश, पाजीफोंड,
– गोंय ४०३ ६०१.

ळ आंकाचें मोल: रु. ७/-


# नदर संपादप्याची

## गरिबाय – ती वेगळी, ही वेगळी ?

सैमांत किडी मुयांपसून हती गेंड्यांमेरेन हजार तरांचे जीव जियेतात. तांचे मजगतीं गरीब गिरेस्त अशे पांवडे आसात व्हय? सैमाचो खंयचोय जीव खावंक जेवंक मेळना जावन उपाशीं मेल्लो कोणें पळेला व्हय? वा, फाल्यांच्या हुसक्यान खंयच्याय जिवान अन्नाचो सांठो करून दवरला आनी ताचें घर भरून दार ओतता अशें घडिल्लें कोणें केन्ना आयकलां व्हय?

जल्माक घाल्या दर एका जिवाचे पोसवणेक जाय आशिल्लें – आनी जाय तितलें – अन्न सैम खिणाखिणाक तयार करीत आसता. सद्दां. खंड पडूंक दी नासतना. खंयचोच जीव उपाशीं मरचो ना आनी खंयच्याच जिवाक फाल्यांच्या हुसक्यान अन्नाचो सांठो करपाची गरज भासची ना हाची जतनाय सैम घेत आयलां – युगान युगां सावन.

मनीस सैमाच्याच राज्यांतलो एक जीव. हेर जिवां सारकोच. हेर जिवां इतलोच म्हत्वाचो. तो आपणाक मानता तसो हेरां जिवां परस आगळो वेगळो न्हय, तांचे परस चड म्हत्वाचो तर निखालूस न्हय. ताच्याच राज्यांत गरीब गिरेस्त हे पांवडे कित्याक आसचे? ताच्याच राज्यांत लोक अन्ना बगर उपाशीं कित्याक मरचे? आनी ताच्याच राज्यांत लोकांक फायचो हुस्को कित्याक आसचो? सैम ताचेय पोसवणे खातीर ताका जाय तितलें अन्न तयार करीत आयलां. सदां. दर एका खिणाक.

मनीस सैमा पसून पयस गेला असो हाचो अर्थ जालो ना? ताणेंच आपणाक सैमापसून कडेक काडला. इतलेंच न्हय तर तो सैमाचेर आपणालो शेकूय चलोवपाक लागला. आनी हालिंसाराक तर – उद्देगीक क्रान्ती उपरांतच्या फाटल्या दोन तीन शतमानांत – सैमाचो तो दुस्मानूय जावन बसला.

ताचे सगळे उपद्व्याप सभावीक – नॅच्युरल – मानूंक जायनात. ते 'सभावीक' निखालूस न्हय.

मनशां मनशां मजगतीं जे गरीब गिरेस्त पांवडे आमी पळेतात ते मनशानूच निर्माण केल्यात. सैमान न्हय. देवानूय न्हय. ताच्यांतले कांय बळिश्ट दुबळ्या लोकांचे फाटीर वचून बसल्यात म्हूण ते निर्माण जाल्यात.

ताणेंच आतां हे पांवडे ना करूंक जाय.

संवसारांत कोण उपाशीं पडचो ना, सगळ्यांक जेवंक खावंक मेळटलें; कोण नागडो भोंवचो ना, सगळ्यांक न्हेसूंक पांगरूंक मेळटलें; कोण वाऱ्यार पडचो ना, सगळ्यांक रावपाक आसरो मेळटलो असो ताणेंच नित्शय करूंक जाय.

मनशाच्यो ह्यो तीन मुळाव्यो गरजो भागुंकूच जाय.

त्यो कश्यो भागोवपाच्यो?

अन्नछत्रां घालून? वस्त्रां दानांत दिवन? धर्मशाळा बांदून?

असलीं कामां सगळे धर्म करीत आयल्यात. करात म्हूण सगळ्यांक सांगीत आयल्यात. असलीं कामां केल्यान मनशाक पुण्य मेळटा, स्वर्ग मेळटा असलीं हांयसांय दाखयत आयल्यात आनी कांय जाण असलीं कामां संवसारभर करितय आयल्यात.

मदर तेरेझाचें काम हेच जातिचें आशिल्लें. तिणें हिन्दुस्तान आपणाल्या वावरा खातीर – सेवे खातीर म्हणुंया – वेंचून हेच खातीर काडिल्लें. हांगासल्ल्या गरिबांक पळोवन तिचें काळीज कळवळून आयलें. आनी ती तांचे सेवे खातीर हांगाच रावली. आयुश्यभर खंपली.

पदरांत तिच्या कितें पडलें जातलें ? पुण्य पडलां जातलें. तिका समाधानूय मेळ्ळां जातलें. दुबावूच ना. जांची सेवा तिणें केली तांचें दुख्ख मात्शें ल्हव जालां जातलें. तांकां धीर मेळ्ळा जातलो. आधार मेळ्ळा जातलो.

पुणून गरिबाय ती ना करूंक पावल्या व्हय ? तिका, धरुंया, दोनशीं तिनशीं वर्सां जियेवंक मेळिल्लें जाल्यार, हे तरेचो वावर करून ती गरिबाय ना करूंक पावतली आशिल्ली व्हय ?

गरिबाय असल्या करुणेच्या कामांनी केन्नाच ना जावपाची ना. ती ना जातली एकाच उपायान. जे वेवस्तेन ती निर्माण केल्या ती वेवस्ताच मोडून. आनी तिचे सुवातेर दुसरी समाज वेवस्ता हाडून. एका उतरान सांगचें जाल्यार – समाजवाद हाडून. मागीर तो मार्क्साचे कल्पनेंतलो आसूं वा गांधीचे.

समाजवाद हाडप ही जण एका संस्कारी मनशाची लागणूक जावंक जाय. ताचो धर्म जावंक जाय. समाजांत गरीब गिरेस्त पांवडे आसचे नात; कोण कोणाचें शोशण करचो ना; कोण कोणाचे फाटीर बसचो ना, कोण कोणाच्या पांयां पोंदा चिड्डून उरचो ना म्हूण वावरप, ह्या वावरा खातीर जिवीत झरोवप हाचे सारकी दुसरी 'धर्मसाधना' ना. हे तरेचो वावर करतल्याक मेले उपरांत स्वर्ग मेळत वा ना मेळत, जितो आसतना मात तो आपणा भोंवतणी स्वर्ग निर्माण करूंक पावतलो हे विशीं इल्लोय दुबाव ना.

असल्या वावरा खातीर मनीस जीव ओंपता तेन्ना ताका कांय पथांक पाळो दिवचो पडटा. सगळ्यांत म्हत्वाचें पथ म्हळ्यार, कसल्याच बांदपासांत आपूण आपणाक बांदून घेवचो ना असो नित्शय ताका करचो पडटा. आनी बांदपासां पसून जाता तितलो मेकळो रावपा खातीर ताका आपणाल्यो कांय गरजो उण्यो करच्यो पडटात. म्हळ्यार, एके तरेची गरिबाय ताका आपूण जावन आपणावची पडटा. पुर्विल्ले लोक ह्या पथाक 'अपरिग्रह' म्हणटाले.

देश स्वतंत्र नाशिल्लो त्या वेळार देश स्वतंत्र करूंक जाय म्हूण कांय जाण मुखार सरताले. घरसंवसाराच्यो दायक्यो आपणाक पुटवपाच्यो नात अशें म्हणून ते लग्न जायनासतना रावताले. संवसारांत आपणाक घुसपावन घेनाशिल्ले. आपणाक जाता तितलो मेकळो दवरताले. आनी पुराय वेळ देश स्वतंत्र करपाच्या वावरांत खर्चिताले.

तांच्यांतल्या लग्न जाल्ल्या लोकांक गांधी ब्रह्मचर्याक पाळो दियात म्हूण सांगताले ते हेच खातीर. भुरगीं जायत रावलीं जाल्यार तुमचे देशसेवेक आडखळींतल्यान वाट काडची पडटली, अशें म्हणटाले.

आपूण जावन घेतिल्ले हे गरिबायेक खिस्ती चर्चान voluntary poverty म्हळां. पाद्रींक हे तरेचें गरिबायेचें व्रत घेवचें पडटा. समाजवादी समाज हाडूंक सोदतल्यांक लेगीत हेच तरेची गरिबाय आपणावची पडटा.

बाकिच्यां भाशेन आपूण घरसंवसार घेवन बसतलों, बाकिच्यां भशेन आपुणूय सुखांत जियेतलों, भोगूंक मेळटात तितलेय भोग भोगतलों – ते खातीर खंयूय नोकरी करतलों वा कसलोय तरी उद्देग चलयतलों अशें म्हणून कोणूय देश स्वतंत्र करपाक वा देशांत समाजवाद हाडपाक मुखार सरलो जाल्यार ताका सांगचें पडटलें, बाबा रे, तुका दोनूय कामां एकाबरोबर जमपाचीं नात. एक खंयचें तरी तुका सोडचें पडटलें. देश-सेवा करतलो जाल्यार तुका घरसंवसारापसून मेकळो रावचो पडटलो. अपरिग्रहाच्या तत्त्वाक धरून चलपाचो तुका निर्णय घेवचो पडटलो. ब्रह्मचर्याकूय पाळो दिवचो पडटलो.

समाज बदलपाचो वावर आयजवेर घरसंवसारांत घुसपल्ल्या लोकांनी करूंक ना. अपरिग्रही लोकांनीच तो केला हें विसरूंक फावना.

ही आपखोशयेन घेतिल्ली गरिबाय वेगळी आनी आमी जी ना करूंक सोदतात ती वेगळी. दोनांय मजगतचो फरक मतींत धरूंक जाय.

हरशींय जाल्यार समाजांत गरीब आसतना आपणें गिरेस्त जावपा
वावरप हाची संस्कारी मनशाक लज दिसूंक जाय. जल्मा
गिरेस्त आसा ताका 'पॉश' जिवीत पुटवता जालें तरूय
सोबना अशें दिसूंक जाय. आपूण अन्नाडी vulgar जालां अशें
जाय. गिरेस्त जेन्ना गरिबाय ना जावंक जाय म्हणटाले तेन्ना
तांकां सांगतालो —

सभाम्यांनो, गरिबाय तुमीच समाजांत निर्माण केल्या. तुमी दुबळ्या
फाटीर चडून बसल्यात म्हूण ती निर्माण जाल्या. फाटी वयले देंवात
मात्शे.

जायत व्हय धीर आमकां लोकांचे फाटी वयले देंवपाचो ?

लोकांचे फाटी वयले देंवपाच्या तत्त्वज्ञानाक अपरिग्रह म्हणटात.
मारपाचो विशय व्हय हो ?

## नदरूच बदलूंक जाय

अमेरिकेन पाकिस्तानाक खुबळायलां आनी पाकिस्तानान भारता
झूज मांडलां. दिल्लीचेर बॉम्ब पडून पुराय दिल्ली मातये भरवण
एक बॉम्ब मुम्बयचेर पडला आनी मुम्बय उज्यान हुलपूंक लागल्या.
सगळे लोक मेल्यात. मुम्बयचो उजो वाऱ्या वेगान गोंयचे दिकेन
लागला. हांव थतरवितर जालां. नातवाक तरी वांचोवंक जाय अशें
फाटकुळेर मारून दक्षिणे दिकेन धांवक लागलां. वाटेर पांय एका
आपटता आनी हांव पडटां. 'पाड पडूं आशिल्लें अमेरिकेचें... नाच
उडोवंक जाय अमेरिका संवसाराचे फाटी वयली' अशी हांव एक
मारतां...

न्हय, सपन नाशिल्लें हें. हांव न्हिदूंक नाशिल्लों. अर्दो न्हिदेंत
जागो हे अवस्तेंत हांवें हो देखाव म्हज्या दोळ्यां मुखार पळेल्लो.
हांव काचाबूल जाल्लों.

जाता कितें – आमगेर खबरेपत्रां नेमाळीं बी येतात तीं हांव
वाचिना. सकाळचीं फकत चाळून पळेतां. कितें वाचूंक जाय हें त्या
थारायतां आनी केन्ना सांजच्या पांचांच्या अदमासाक वा सांजची
मारून जातकूच दिवेलावणे वेळार वाचतां. त्या दिसा म्हज्या हातांत
अमेरिकन नेमाळें पडिल्लें. ताचेर 'गल्फ वॉर सिन्ड्रम' नांवाचो एक
वाचिल्लो. लेखाचो फुडलो वांटो ते अर्दे न्हिदिल्ले अर्दे जागे
हांवें पळेल्लो.

अमेरिकेंत अवचीत कांय जाणांच्यो खंय तकल्यो उसळपाक
कितले उपाय केले, तकली उसळपाची थांबना. कांय जाणांक ओंक
येवपाक लागल्यो. कांय जाणांक स्वास घेतना त्रास जावपाक
कांय जाणांक बेश्टें रडूंक येवपाक लागलें. अमेरिकेंत व्हडले व्हडले
आसात. तांकां ही कसली पिडा तेंच समजना जालें. एकल्यान एक
सोदून काडलें – प्रेसिडेंट बुशान सद्दाम हुसेना आड जें झूज
तातूंत वांटो घेतिल्ल्या सैनिकांकूच ही पिडा जाल्या. झुजांत रसाय
आनी जैवीक शस्त्रां ह्या सैनिकांनी वापरिल्लीं आसूंक जाय तांचो
परिणाम ह्या निर्णयार डॉक्टर पावले. तांणी हे पिडेक एक नांव
– गल्फ वॉर सिन्ड्रम – आखाती झुजाक लागून जाल्ले पिडेचीं लक्षण

प्रेजिडेंट बुशान रोखडेंच एक पत्रक काडलें, 'ना, आखाती झुजांत
असलीं शस्त्रां वापरूंक नाशिल्लीं. असलीं शस्त्रांच आमचे कडेन नाशिल
सद्दामाकडेन आशिल्लीं. पुणून आमी ताकाय तीं वापरपाची संद
नाशिल्ली. हे पिडेचीं दुसरीं कसलीं तरी कारणां आसूंक जाय.
झुजाचो आनी हे पिडेचो कांय संबंद ना.'

पुणून असत्य केन्ना असत्य म्हूण संवसारांत चलूंक पावलां
असत्य हें उतर सारकें नियाळून पळोवंक जाय. ताच्या पोटांतूच

दिश्टी पडटलें. सत्याचो आधार घेवनूच असत्य चलता आनी सत्यूच असत्याक उक्ताडा हाडटा.
ती झुजांत ब्रिटनचे सुमार एकावन्न हजार सैनीक झुजिल्ले. तांकांय जाली. ब्रिटनच्या खबरे-पत्रांनी बोवाळ केलो. अखेरेक 'सारीन' क विखाळ वाय पोटांत गेल्यारूच असली पिडा जावं येता म्हणपाच्या थंयचे विज्ञानीक पावले. अमेरिकेक झक मारीत आपणें आखाती सायनीक शस्त्रांचो वापर केल्लो म्हणपाचें मान्य करचें पडलें. फटकिरी, सांगता एक आनी करता दुसरें म्हणपाचें संवसाराक जांणी हीं शस्त्रां वापरलीं तांचेर हो परिणाम जाल्यार जांचेर तीं त तांचेर कसलो परिणाम जाला जातलो, अदमासूच केल्लो बरो. ती झुजाचे परिणाम फकत झुजांत पडिल्ल्या वाटारांचेरूच जाल्यात गूं येना. आमच्या हिमालयार त्या वर्सा काळो 'स्नो' पडिल्लो. रतात तेदो हो संवसार आयज आयस-पयस आनी विशाळ उरूंक सो जाला. संवसाराचे फाटीर खंयूय कितेंय घडूं, ताचो परिणाम संवसाराचेर जाता. ब्राझिलांतलें आमाझॉन रान कातरलें जाल्यार नांतल्या लोकांक स्वास घेवपाक प्राणवाय मेळपाचो ना. हें एकूच ख्या संवसाराक प्राणवायेची पुरवण करीत आयलां. रान ब्राझिलाचें अख्ख्या संवसाराक प्राणवाये खातीर ताचेर निंबून रावचें पडटा. शस्त्रास्त्रांचो वापर असोच अख्ख्या संवसाराक संकश्टांत उडयतलो, चो वापर खंयच जावचो ना हाची जतनाय संवसारान घेवंक जाय.

रेकेक हें समजना. १९४५त अमेरिकेन जपानांतल्या हिरोशिमा एटम बॉम्ब शेंवटिलो. एका खिणाक शाराचो लासून गोबोर जालो. लोक त्याच खिणाक मेले. देडदोन लाख कांय दिसां उपरांत मेले. बॉम्ब फकत हिरोशिमा शाराचेर पडिल्लो. पुणून भोंवतणच्या स्तीस मैलांच्या वाटाराचेर ताचो परिणाम जाल्लो. ह्या वाटारांतलो तलिंशीं वर्सां यमयातना भोगीत राविल्लो. १९६७त पळोवन आयलां वाटार. बॉम्बाक लागून पिडेन पडिल्ल्या कांय लोकांकूय थंयच्या स्पिटलांत मेळून आयलां. 'नाका, असले हाल दुस्मानाचे लेगीत कात' अशीं उतरां तांकां पळोवन म्हजे जिबे वयल्यान फुटल्यांत. ी लक्षांत दवरूंक जाय – आयज जे बॉम्ब तयार जाल्यात तांच्या हिरोशिमाचेर शेंवटिल्लो हो बॉम्ब हजाराच्या वांट्या येदो लेगीत खूब जाणांक खबर ना – ज्या विमानिकान हो बॉम्ब शेंवटिलो उपरांत तोल सुटिल्लो. ताणें हाचे पयलीं झुजांत कितलेशे बॉम्ब ले. तांतलोच हो एक अशें ताका दिशिल्लें. त्या बॉम्बान कितें घडोवन हें ताका समजलें तेन्ना पयलीं पच्छातापान तो हुलपलो. मागीर न उसळ्ळो. ताचो वचत थंय लोक भौमान करपाक लागले. तेन्ना कांक विचारपाक लागलो, 'हांवें येदें व्हडलें पातक केलें ताचें पानवळ या वाट्याचो तुमी म्हजो भौमान करतात? कितें आडायलां तुमी कांय दिसांनी तो लोकांचे खून करपाक लागलो. 'हाची तकली ना' अशें म्हणून ताका न्यायाधिशा मुखार उबो केलो. ताणें धिशाक विचारलें, 'ह्या खुनां खातीर तुमी म्हाका ख्यास्त करतात लाखांनी लोकांक हांवें मारले ताचे खातीर भौमान? कसलो न्याय ा हो अमेरिकेन? कसली नीत ही?' सरकार कितें करतलें? बंदखणींत घालो. आनी बंदखणिंतूच एक दीस बाबडो मेलो. का ताची तोखणाय ती इतलेच खातीर कित्याक, ताका काळें तें आनी धवें तें धवें हें वळखूंक आयिल्लें. अख्खे अमेरिकेंत मनीस सारको होच एकलो आशिल्लो.
ाच बॉम्बान जपान शरण येतलें अशें अमेरिकेक दिसूंक नाशिल्लें. यिल्लें पळोवन अमेरिके मुखार वेगळोच एक प्रस्न उबो रावलो – ह्या बॉम्बां वांगडा दुसरे जे रसायनीक बॉम्ब आपणें तयार केल्यात तांचें आतां कितें करपाचें? कोट्टिंनी डॉलर खर्च केला ते तयार करपा खातीर. इतले डॉलर उदकांत उडोवपाचे? खंय तरी वापरूंक जाय ते. खंय वापरतले? येवजितां येवजितां वियेतनाम दोळ्यां मुखार उबें रावलें. वियेतनाम झुजाचीं राजकी कारणां कोणूय कसलींय दाखोवं. खरें कारण हेंच एक आशिल्लें. अमेरिकेक ते रसायनीक बॉम्ब खंय तरी वापरून सोंपोवपाचे आशिल्ले. कितलिंशींच वर्सां तिणें हें झूज चलयलें. अखेरेक एक दीस ह्या रसायनीक शस्त्रां भितर डायोक्सीन नांवाचें एक विखाळ तत्त्व आसा ताचो परिणाम जावन अमेरिकन सैनिकांक तरांतरांच्यो पिडा जाल्यात म्हणपाचें दिसून आयलें तेन्ना कितें तरी निमित्त्य काडून अमेरिकेन हें झूज सोंपयलें.

झूज सोंपलें खरें. पुणून रसायनीक शस्त्रास्त्रां सोंपूंक नाशिल्लीं. तिणें आपणाल्या विज्ञानिकांक विचारलें, 'ह्या शस्त्रास्त्रांचें आतां कितें करुंया?' तांणी सांगलें, 'मनशांक मारपा बदला तांचो आतां किडी-मुयांक मारपा खातीर वापर करूंया.' तेन्ना सावन संवसारांत किडी-मुयो मारपा खातीर तांचो 'पेस्टिसाइड्स'च्या रुपान वापर जावपाक लागला.

फाटल्या पन्नास वर्सांत संवसारांत नाशें जालां तें चडशें एके अमेरिकेन केलां.

अमेरिकेची वाड एका वेगळ्याच संस्कारांत जाल्या. १७७६त तिणें आपणाल्या 'डॅक्लेरेशन ऑफ इन्डेपेन्डेन्सां'त 'परर्यूट ऑफ हॅपिनेस' हो आपणालो 'फंडामेन्टल रायट' (जल्मसिद्ध अधिकार) म्हूण घोशीत केल्लो. 'सुखांत जियेवप' हीच तिणें आपणा मुखार मोख दवरिल्ली. सूख कित्यांत आसा? भोगांत. भोग भोगप हें अमेरिकेच्या लोकांचें ध्येय जालें. कितले भोग भोगप? कितले भोगूं येतात तितलेय. ह्या ध्येयाच्या आधाराक विज्ञान तंत्रज्ञान आयलें. विज्ञान तंत्रज्ञानाचो वापर चडांत चड भोग जोडून दिवपी साधनां जमोवप ह्या कामांत जावपाक लागलो. परिणामी, अमेरिकन मनशाची नदरूच भोगवादी जाली. 'विकासा'च्या नांवान आयज संवसारांत जें कितें चल्लां ताच्या मुळांत हीच नदर पळोवंक मेळटा. हे नदरेक आयज आमी 'मॉडर्न' नदर मानपाक लागल्यात. हे नदरेन रानां ना केलीं. जमनिच्या पोटांत कोट्ट्यांनी वर्सां सावन सैमान जें कितें निर्माण केल्लें तें दोन तीन पिळग्यां भितर तांणी सोंपोवन उडयलें. वचत थंय रेंवे सडे उबे केले. उदक वारो सगळें विखाळ करून उडयलें. धर्तरिचे फाटीर हजार तरांचे जीव जियेत आयिल्ले. तांतले अर्दा वयर जीव मारून उडयले. ओझोनचो थर सुर्याच्या कांय किरणां पसून धर्तरेची राखण करतालो, ताका व्हडले व्हडले भोकनोळ घाले. धर्तरिची हवाय बदल्ली. संवसारभरचे पर्यावरणवादी आतां मोट्या मोट्यान सांगपाक लागल्यात, बाबानों, विकासाच्या नांवान तुमी हो जो अच्छेव मांडला तो खंय तरी आळाबंदा हाडूंक जाय. ना जाल्यार ही धर्तरीच ना जावन वचपाची आसा. पुणून —

आयचो संवसार राजकर्णी लोकांच्या हातांत गेला. तांकां हें समजना. उद्देजकांक हाची पर्वा ना. लोकांचें आरोग्य इबाडटा तेन्ना हे लोक नवीं नवीं वखदां बाजारांत हाडून दवरतात, दोतोर तयार करून दितात. हॉस्पिटलां बांदतात. आरोग्य कित्याक लागून इबाडलें हें पळेनात आनी ज्या कारणांक लागून आरोग्य इबाडलां तीं कारणां पयस करिनात.

संवसाराकडेन पळोवपाची नदर बदलूंक जाय. संवसार 'एक्सिडेंटा'न निर्माण जावंक ना. ताच्यांत भितर जी 'वेवस्ता' आसा ती पळेतकूच संवसाराचे निर्मणे फाटल्यान एक सर्जक 'बुद्द' वावुरल्या अशें म्हणचें पडटा. संवसार कांय 'नेमां'क धरून चलता. सगळ्यो गजाली एकामेकांक आधार दितात म्हूण चलता. तो आपुणूच आपणाक चलयता, आपुणूच आपणाली संतुळा सांबाळून चलता. हाका कसलीच आडखळ जावंक जायना. आडखळ जाता अशें कितेंय करप हें 'विज्ञानां'त बसना. खरी विज्ञानीक

नदर म्हळ्यार 'इकॉलॉजिकल नदर'. हे नदरेन आमी आमचे वेव्हार चलयले नात जाल्यार—

पांचवीचार ही धर्तरी एक दीस रेंवेसड्या सारकी जावन पडटली. 'सुजलाम्' न्हंयो गटारांचें रूप घेवन व्हांवपाक लागतल्यो. स्वास घेवपाक हवाय मेळपाची ना. आनी झुजांय थांबपाचीं नात. आनी—

रातीं अर्दे जागे अर्दे न्हिदिल्ले अवस्तेंत हांवें जें पळेल्लें तें खरें जावपाक मात लेगीत कळाव लागपाचो ना.

## बिसेनजी

कुतुब मिनार, लाल-किल्लो, हुमायूं की कबर, फिरोजशाह कोटला – दिल्लींत पळोवपा सारकें आशिल्लें तें सगळें पळेल्लें. महात्मा गांधीय दिल्लींत आशिल्ले. तांकां पळोवपाक गेलों. बिर्ला भवनाच्या लॉनाचेर तांची सद्दां सांजेच्या पांचांक प्रार्थना जाताली. कोणाच्यानूय प्रार्थनेक हाजीर रावंक येतालें. साडेचारांकूच थंय गेलों. धा वीस लोक हेवटेन तेवटेन उबे आशिल्ले. 'खंय बसपाचें?' तांकां विचारलें. तांणी गांधीजी बसतात ती सुवात दाखयली. थंय दाव्या हाताक दोग तीग बशिल्ले. तांचे पंगतीक वचून बसलों.

पांचांक पांच मिणटां आसात म्हणटासर एकलो गिड्डो तरणाटो बिर्ला भवनांतल्यान भायर आयलो. ताका पळेनाफुडें 'बापू आ रहे हैं' अशें कांय जाणांनी फुतफुतून एकामेकांक म्हळ्ळें आयकलें. म्हणटासर मनू आनी आभा – एकली नात, दुसरी नातसून – हांच्या खांदार हात दवरून बापू येतात ते पळेले. ते मरेन चारशें पांचशें लोक लॉनार येवन बशिल्ले. बापूंक पळेनाफुडें सगळे उठून उबे रावले: आनी बापू आपणाल्या आसनार बसतकूच सगळे बसले.

जिस्त पांचांक प्रार्थना सुरू जाली. म्हज्या बऱ्या नशिबान त्या दिसा श्रीअरविंदांचे शिष्य दिलीप कुमार रॉय प्रार्थनेक आयिल्ले. प्रार्थनेचे श्लोक सोंपतकूच तांणी 'म्हाने चाकर राखोजी' हें मीरेचें भजन म्हळें.

एका वेगळ्याच वातावरणांत पाविल्ल्याची खोस भोगली.

म्हज्या शिमामेरांची जाणवीक म्हाका नाशिल्ली. बावीस वर्सांच्या भुरग्याक ती नासताच. प्रार्थनेंत सगळे दोळे धांपून बशिल्ले. हांव दोळे उकते दवरून गांधींक पळेत राविल्लों. आतां मनांत आयलें, गांधींची भेट घेवची. गोंयच्या प्रस्ना संबंदान तांचेकडेन उलोवचें. म्हूण, बिर्ला भवनाच्या दरवट्याकडेन गेलों. थंय ओदोळ पळेल्लो तो गिड्डो तरणाटो बशिल्लो पळेलो.

'बापूजी से मिलना था', हांवें म्हळें.

'क्या काम है?'

म्हळें, गोंयच्यान आयलां. गोंयचे सुटकेच्या प्रस्ना संबंदान तांकां विचारतलों म्हणटां.

'ऐसे फालतू कामों के लिए बापूजी के पास वक्त नहीं है', तो कॅंच् करून म्हज्या आंगार आयलो. गोंयचो प्रस्न हो फालतू प्रस्न न्हय हें ताका सांगपाचो हांवें यत्न केलो. तो परतो म्हज्या आंगार कॅंच् करून आयलो, 'कहा न तुमसे, बापूजी के पास वक्त नहीं... भागो यहाँसे.'

म्हाका ताणे आमडुनूच घालो.

'कसले विचित्र मनीस गांधींनी आपणा भोंवतणी एकठांय केल्यात!' हांवें मनांतल्या मनांत म्हळें आनी येदेशें तोंड घेवन परतलों.

तीन वर्सां उपरांत गांधी समजून घेवपाक वर्ध्याक पावलों. काकासायबां सरीं रावन शिकतलों म्हूण गेल्लों. मुम्बयच्यान भायर सरलों. गाडी सकाळीं आठांच्या अदमासाक वर्ध्याक पावली. टांगो करून काकावाडींत गेलों. काकासायबांच्या आश्रमाक लोक काकावाडी ह्या नांवान वळखताले. टांग्यांतल्यान देंवलां मात्—

मुखार बिर्ला भवनांतल्यान म्हाका आमडून घाल्लो तोच गिड्डो मनीस म्हज्या येवकाराक उबो पळेलो! गांधींचे हे साधनाभुंयेर पावल द
फुडें 'हे राम' हीं गांधींचीं निमाणीं उतरां म्हजे जिबेर आयलीं.

'केळेकर का?'

हांवें हय म्हणटकूच 'काकासाहेब नागपूरला गेलेले आहेत... दुपा
गाडीने येतील... चला, तुमची खोली दाखवतों' अशें म्हणून तो म
म्हजे खातीर तयार केल्ले कुडींत घेवन गेलो.

'नरेश मंत्री कुठं आहेत?' हांवें विचारलें.

'तेही काकासाहेबां बरोबरच गेलेले आहेत...' ताणें जाप दिली.

हांवें कुडींत सामान दवरलें. बाथरूम खंय, संडास खंय ते प
'तुमचा नास्ता झालाय का?' ताणें विचारलें. हांवें 'ना' म्हणटकूच '
तर, प्रथम नास्ता करून घ्या' अशें म्हणून तो फाटले वटेन 'रसोइ
घेवन गेलो. पेराचें एक अर्द, एक पोपाये शीर, बटाट फोव आनी
हो नास्तो. नास्तो करून हांव म्हजे कुडींत आयलों.

म्हजे हे कुडी शेजरा दुसरी एक कूड आशिल्ली. हे कुडींतल्यान चा
पंचेचाळीस वर्सांचे पिरायेचो एकलो मनीस भायर आयलो. 'मैं महेन्द्र कु
जैन', ताणें आपणाली वळख करून दिली. ताका तूं हांगा कितें क
बी कांय विचारी नासतना म्हज्या येवकाराक आयिल्लो तो गिड्डो
तें सगळ्यांत पयलीं विचारलें.

'शिवबालक बिसेन... काकासाहब के एक पुराने विद्यार्थी... गां
के साथ रहे हैं...' ताणें जाप दिली.

'हांगा कितें करता?'

'एक सर्व-भाशीक कोश करता... चार पांच भासो येतात ताका...'

'बडे विक्षिप्त आदमी मालूम होते हैं', हांवें म्हळें.

'हांगा एका फुडले एक विक्षिप्त लोक तुका पळोवंक मेळ
महेन्द्रकुमारांनी गालांतल्या गालांत हांसून म्हळें.

म्हजी आनी तांची तार त्याच खिणाक जुळ्ळी.

काकासायबांक आपणाल्या हातान बरोवपाची संवंय नाशिल्ली. त
बरोवन घेवपी कोण तरी लागतालो. म्हजें अक्षर तांणी पळेल्लें. ते भ
हांव मराठी, गुजराती आनी हिन्दी तिनूय भासो जाणा म्हणपाची त
खबर आशिल्ली. म्हाका ह्यो तिनूय भासो येताल्यो म्हळ्यार उल
वाचूंक येताल्यो. बरोवपाक ऱ्हस्व दीर्घाचें ज्ञान जाय, तें म्हाका नाशि
काकासायबांनी म्हाका लेख घालपाक सुरवात केली. हांवें म्हळें,
येता तशें बरयतां... ऱ्हस्व दीर्घ सुधारचें पडटलें.'

'बिसेन सुधारून देतील.'

काकासायबांनी घालचें, हांवें बरोवन घेवचें. 'प्रेसां'त दिवचे पयलीं बर
बिसेनजींक दाखोवचें. पयलोच लेख घेवन गेलों तेन्ना तांणी म्हळें,
बरोवन घेता तें नीट प्रेसांत वतलें. तुवें बरयलां तें कंपोझिटरांक व
येवंक जाय. अक्षर सुंदर आसलें म्हूण उपकारना, स्पस्ट आसूंक
र तें र दिसूंक जाय, ट तें ट दिसूंक जाय... तुजें र आनी ट स
जाता... द आनी य सारकें जाता... अक्षर हांव आयज सुधारतां, फ
सुधारचों ना. ऱ्हस्व दीर्घ सारकें करून दितां... पुणून एक उतर
खेपे सुधारून दितलों. दुसरे खेपे तुवें तें चुकिचें बरयलें जाल्यार
तें निवळावपाचों ना...'

मनांत म्हळें, 'कसल्या मनशा हातांत काडून दिला म
काकासायबांनी!' हांव भियेलों. म्हळें, 'ऱ्हस्व दीर्घाचे नेम तरी शिकय

'नेम बीम कांय नात. दोळ्यांक संवंय लावन घेवंक जाय अ
पळोवपाची... मागीर नेम आपशीं समजतात...'

इल्ली इल्ली करून संवंय जाली. ऱ्हस्व दीर्घ लक्षांत येवपाक ल
मराठी हिन्दी गुजराती सारकी बरोवपाकूय लागलों. बिसेनजींनी म
प्रूफ रिडींगूय शिकयलें. तांचो भय दिसतालो तो ना जालो. संवक

नीस आवडूंक लागलो. भायल्यान कसोय दिसूं, म्हळें, भितरल्यान येस्त. तरी आसतना, एक अंतर दवरुनूच उलयतालों, चलतालों. वर्सा हांवें थंय बिराड केलें. तेन्ना गोदूबायन तांकां तोंडारूच माथेफिरू, कोल्ली म्हणचें आनी तांकां तें आवडचें. बिसेनजी गून घरचे जाले.

ा संबंदान ते केन्ना कांय उलयनाशिल्ले. पुणून इल्ल्यो इल्ल्यो चे ताचेकडल्यान तांच्यो खबरी कळत रावल्यो.

ांत ते नागपुरा लागसारच्या रामटेकचे. जल्मभास मराठी. ह्या ल्या सगळ्यांक मराठी वांगडा हिन्दीय येता. तशी हिन्दीय तांकां सतरा अठरा वर्सांचे पिरायेर घर सोडून नीट साबरमती आश्रमांत री रत्नपारखी. 'भांगर हें... आपशीं आश्रमांत पावलां' अशें म्हणून वरून घेतले आनी ट्रेनिंगा खातीर काकासायबांकडेन गुजरात ांत धाडून दिले. बिसेनजी विद्यापीठाचे 'स्नातक' जाले. 'स्नातक' मॅट्रिक्युलेट. गुजराती समाजांत इतले भरसले की गुजराती जाले. न्हय हें सांगचें पडटालें. वळखूंक येनाशिल्ले. काकासायबां सरींच साबरमती सोडून गांधी सेवाग्रामांत वचून रावले. तेन्ना काकासायबूय ले. बिसेनजीय थंय गेले. सेवाग्रामांत गांधींनी ग्रामोद्योगांचे तरांतरांचे रू केल्ले. ह्या उद्योगांत ताड-माडाच्या निऱ्यापसून गोड करपाचो ेग आशिल्लो. उदेंत बंगालांत पिळग्यान पिळग्यां सावन हो उद्देग ोक आसात म्हणपाचें कळनाफुडें तो शिकून येवपाक गांधींनी ांक उदेंत बंगालांत (आयच्या बांगला देसांत) धाडून दिले. गोड चें हें तर ते शिकलेच. ते भायर बंगाली भासूय शिकले. गांवांतले लयतात तिवूय बंगाली तांकां येवपाक लागली.

नजींनी सगळ्या सत्याग्रहांनी वांटो घेतला आनी बंदखण भोगल्या. गांधींनी मिठाचो सत्याग्रह करचो थारायलो. आश्रमांतल्या ल्या कांय वेंचीक सांगात्यांक वांगडा घेवन ते साबरमती सावन वचपाक भायर सरले. त्या वेळार काकासायबांच्या विद्यार्थ्यांनी म आपणाल्या आंगार घेतलें – दांडी यात्रेंत गांधीजी ज्या गांवांत आसताले त्या गांवांत तांणी आदल्या दिसा वचचें आनी गांधीजींची गेल्या सांगात्यांची रावपा-करपाची, जेवपा-खावपाची वेवस्ता करची. ायबांनी हिका 'अरूण टुकडी' म्हूण एक नांव दिल्लें. बिसेनजी डें'तले एक वांगडी आशिल्ले. दांडीचे वेळेर गांधींनी मीठ तयार मिठाचो कायदो मोडलो. ते उपरांत देशांत सगळे कडेन सत्याग्रह काकासांबांचे हे अरूण टुकडेनूय सत्याग्रह केलो. बिसेनजी साबरमती ंत पावले. ३१-३२त सरकारी आगळिकां आड सत्याग्रह जाल्यात बिसेनजींनी तातूंत वांटो घेतला आनी वेगळे वेगळे कडेन बंदखण ा. १९४०-४१तल्या वैयक्तिक सत्याग्रहांतूय वांटो घेवन ते बंदखणींत . 'चले जाव' आंदोलनांतूय वांटो घेवन ते बंदखणींत गेल्यात.

े जाव' चळवळींत काकासायबूय बंदखणींत पाविल्ले. हे खेपे चार ं बंदखणींत रावचें पडटलें असो सगळ्यांचो अदमास आशिल्लो. ायबांनी बंदखणींत करपाचीं कामां आंखून काडिल्लीं. तांकां बरोवन कोण तरी लागता हें सरकाराक खबर आशिल्लें. 'तुमचे सरीं कोणाक दवरूं?' म्हूण जेलरान विचारलें तेन्ना काकासायबांनी बिसेनजींचें ंगलें. हे बंदखणींत काकासायब विनोबा आनी किशोरलालभाई तिगांकूय ान एकाच 'सॅलां'त दवरिल्ले. तिगूय गांधींचे मुखेल सांगाती. तांगेल्या चे भाष्यकार. तिगांच्योय दीस रात वेगळ्या वेगळ्या प्रस्नांचेर भासाभास . बिसेनजींक एकाच वांगडा तिगांचो सांगात मेळ्ळो. 'गुजरात ठांत पाविल्लों तेन्ना भुरगो आशिल्लों... आयज ऐन तरणेपणाच्या पणांत पावल दवरिल्लें... नवें नवें कितलेंशेंच शिकूंक मेळ्ळें... हे बंदखण म्हाका बंदखण कशी दिसली ना... एक युनिव्हर्सिटी कशी दिसली... म्हज्या जिवितांतलो बऱ्यांतलो बरो काळ हो' अशें तांणी म्हणचें.

बंदखणींत विनोबांक बंगाली भास शिकपाची इत्सा जाली. बिसेनजी तांकां बंगाली शिकोवपाक लागले. विनोबांनी रवीन्द्रनाथांची नवलकथा 'गोरा' बिसेनजींच्या सांगातान थंय वाचून पुरी केल्या.

बंदखणींतल्यान सगळे सुटले तेन्ना देशान कूस परतिल्ली. स्वराज्य देशाचें दार खटखटावपाक लागिल्लें. त्याच वेळार जिस्त पांच हजार वर्सांचे संस्कृतायेन निर्माण केल्ल्यो विकृतायो देशांत धुमशेणां काडपाक लागिल्ल्यो. हिन्दू मुसलमान एकामेकांच्या जिवार उठले. गांधींची जशी कितें नियतीन सत्वपरीक्षा सुरू केल्ली. नोआखालींत पेटिल्लो उजो पालोवपाक गांधी नोआखालीक गेले. काकासायब तांकां मेळपाक थंय गेल्ले. थंय गांधींनी तांकां विचारलें, 'बिसेन खंय आसा? ताका हांगा धाडून दियात...' बिसेनजी नोआखालीक गेले. तेन्ना सावन गांधींच्या हत्या जावन तांचे अंत्यसंस्कार जाल्यात त्या खिणा मेरेन तांचे अंतेवासी म्हूण ते वावरूंक लागले. नोआखाली, बिहार, कलकत्ता, दिल्ली – सगळेकडेन गांधींजी वांगडा ते रावल्यात.

गांधींजींक ब्राह्मम्हुर्तार जाग येवची. बिसेनजीनी ते पयलींच उठचें, तांचेसरीं वचून बसचें. ते सांगतात तीं कामां करचीं. मनू, आभा, सुशीला बी उठ्ठकूच तांचे सुवादीन गांधीजींक करून थंयच्यान उठून वचचें. दरवट्यार वचून बसचें. कोणाक भितर सोडचे, कोणाक आडावचे हें तेच थारायताले. गांधीजींक ते मुस्तींत गाळी घालून चिटी येताल्यो. त्यो बिसेनजींनी घेवच्यो. वाचून पिंजून उडोवच्यो. 'चिटी म्हाका येतात, म्हाका त्यो वाचूंक मेळूंक जाय' अशें गांधीजींनी म्हळें जाल्यार 'गाळी सोडून चिटींनी कांय नासता' बिसेनजींनी जाप दिवची. 'नासूं... पुणून म्हाका वाचूंक मेळूंक जाय त्यो', अशें म्हळें जाल्यार बिसेनजींनी म्हणचें, 'तुमचेकडेन होगडावपा खातीर वेळ आसा जाल्यार हांव तुमकां काम दितां' अशें म्हणचें आनी 'अनासक्तियोग' हाडून तांच्या हातांत दिवचो. गांधींनी अनासक्तियोग ह्या नांवान गीतेचो गुजरातींत अणकार केल्लो आनी ताका 'अंतिम रूप' दिवपाचें काम उरिल्लें. तें करात म्हूण सांगचें. आनीक कोणाकूय जाल्यार बिसेनजींची तिडक मारपाची. पुणून गांधीजी ते – शुद्ध बावनकशी भांगर म्हूण बिसेनजींक वळखताले. आनी गांधी आपणाक 'वळखतात' हें बिसेनजीय जाणा आशिल्ले.

गांधींची हत्या जावन तांचे अंत्यसंस्कार जाल्यात ते मेरेन ते दिल्लींत रावले. दुसऱ्याच दिसा गाडी धरून वर्ध्याक आयले आनी काकावाडींत रावन कोशाचें काम करपाक लागले.

मूर्त मोटवी. साडेचार पांच फुटां मदली. नाक दोळे रेखीव. तोंड मात गंभीर. कोणाकडेन उलोवप ना, बसप ना, हांसप ना; अध्यांत ना मध्यांत अशे तरेन रावचें. काकावाडींत रावन काकासायबांनी आपयले बगर तांकां मेळप ना. आपूण आनी आपणालें काम, दुसरें कितेंय लावन घेवप ना. हांव काकावाडींत पावलां त्याच वर्सा मराठी कवी मंगेश पाडगांवकार थंय येवन रावल्यात. तांणी बिसेनजींक 'भीषणजी' नांव दवरिल्लें.

काम कोशाचें – गुजराती, मराठी, बंगाली, हिन्दी पर्यायी उतरां सोदून काडपाचें. ह्या कामा भायर आपूण जावन तांणी वेंचून काडिल्लें पोरसूं शिंपपाचें काम. काकावाडींतलें पोरसूं तांणी उबें केल्लें.

काकावाडींत वर्सभर म्हाका तांचो सांगात मेळ्ळा.

अवचीत् एक दीस ते काकावाडी सोडून गेले. काकावाडीचे व्यवस्थापक अमृतलाल नाणावटी. बिसेनजींचे जिवाभावाचे इश्ट. तांचेच कडेन तांचे मतभेद जाल्ले. 'आतां हांगा रावप ना' अशें थारावन ते कोणाक कांयच सांगी नासतना नाच् जाले. खंय गेले, कोणाकूच सांगूंक येना जालें. आदल्या सगळ्यां कडले सगळे संबंद तांणी तोडिल्ले.

दिल्लीक गेल्लों. एक दीस अवचीत बिसेनजी म्हाका दिल्लींत दिश्टी पडले. सुमार पंचवीस वर्सांनी मेळिल्ले. 'बिसेनजी, तुम्ही? कुठं असतां?... इथं काय करतां?... इतकी वर्षं कुठं होतां?...' हांवें अजापान एकाच

एकाच वांगडा कितलेशे प्रस्न विचारले. 'ती एक मोठी कथा आहे... पुढं केव्हां तरी सांगेन...' अशें म्हणून 'गोदू कशी आहे?... गिरीश केवढासा झालेला आहे?' सगळ्यांची वासपूस घेतली. हांवें जापो दिवन म्हळें, 'आतां म्हाका एक मिटींग आसा, ती करतां आनी सांजचो येवन मेळटां.' गांधीनिधीच्या क्वार्टरांनी ते एकल्यागेर येवन राविल्ले. दोन दीस तांच्यो खबरी आयकल्यो —

काकावाडींतल्यान ते जे गेले ते मध्यप्रदेशांत कोणागेर रांदपी म्हूण रावले. दुसरेकडेन खंय तरी तांकां एक मेस्ताचें वर्कशॉप मेळ्ळें. थंय मेस्तपण केलें. कोणागेर 'सर्वंट' म्हूण रावले. कोणागेर माळी म्हूण काम केलें. ओरिसा आनी बंगालचे सरादीर एका जमीनदारागेर 'राखणो' जावन तांचीं गोरवां सांबाळपाक लागले.

आनी थंय 'सांपडले'. (तांचेंच उतर हें)

जालें अशें —

जमीनदारान तांकां रावपा खातीर 'आऊट हाउसां'त एक कूड दिल्ली. एक दीस हे कुडींत जमीनदाराची अठरा-वीस वर्सांची चली पावली. बिसेनजी नाशिल्ले. ते गोरवां घेवन गेल्ले. तिणें कुडींत कांय पुस्तकां पळेलीं. तीं 'खंयचे तरी' भाशेंतलीं आशिल्लीं (मराठी आनी गुजराथी). बंगाली नाशिल्लीं. बिसेनजी आपणाली 'डायरी' बरयताले. ती पळेली. तिवूय 'खंयचे तरी' भाशेंत बरयल्ली तिणें पळेली. तिणें बापायक येवन सांगलें, 'हो जो आमगेर राखणो रावता न्हय, तो राखणो न्हय. तो 'कोण तरी' आसूंक जाय. ते भायर, तो भासयता तसो तो बंगालीय न्हय... गुप्त रुपान तो आमगेर येवन रावला आसूंक जाय.' बापायन कुडींत वचून खातरी करून घेतली. सांजचे बिसेनजी गोरवांक गोठ्यांत बांदून कुडींत आयिल्ले. जमीनदारान तांकां आपोवन विचारलें, 'तूं कोण तो सांग... तूं भासयता तसो तूं न्हय... तूं बंगालीय न्हय, राखणोय न्हय...'

बिसेनजींक आपणाली खरी वळख दिवची पडली.

जमीनदारान म्हळें, 'तुका जाय तितले दीस तूं हांगा राव... घरचोच जावन राव... पुणून तुजेकडल्यान जें काम घेतां तें हे मुखार घेवचों ना... तुका कामांतल्यान मेकळो करतां.'

'म्हाका काम दियात... फुकटचें हांव खावचों ना... काम नासत जाल्यार हांव उठून वतां' बिसेनजींनी जाप दिली.

'तुका असो सोंपेपणीं हांव वचूंक दिवचों ना... तूं आतां भासयता तो तरी तूं काय कितें, हाची म्हाका खातरी करून घेवंक जाय' अशें म्हणून जमीनदारान गोपबंधू चौधरींक सांगून धाडलें, 'आपणा कडेन असलो असलो एक मनीस येवन रावला... तो तुमचो आसत जाल्यार ताका घेवन वचात. ते मेरेन ताका हांव हांगा 'धरून दवरतां'. गोपबाबू ओरिसांतले एक सर्वोदयी फुडारी. दोन दिसांनी तांगेलो एक मनीस आयलो आनी तो बिसेनजींक घेवन गेलो...

'मग मी कांही दिवस गोपबाबू बरोबर कोरापूट जिल्ह्यांत आदिवासी लोकांमध्यें काम केलें... नंतर झवेरभाई पटेलांकडे गेलों. तिथून गुजरात विद्यापीठांत... काकावाडींत सुरू केलेला कोश येथें पूर्ण केला अन् [illegible] सोडून दिलें... सध्या विद्यापीठ सरकारी तंत्रानं चालतं... आपलं य[illegible] जुळत नाहीं...'

'तुर्ताक कितें करतात?'

'कांय ना... फ्रिडम फायटरचें पेन्शन मेळटा... देशभर भोंवतां.'

'गोंयां पावूंक नात तुमी...'

'हय,... पळोवंक येवंक जाय...'

मागीर, गोंयां कशें येवचें, खंयच्यान येवचें सगळें विचारून घेत[illegible] म्हळें, 'येवपाचें थरलें जाल्यार स आठ म्हयने रावपाच्या बेतान [illegible] म्हाका तुमचे कडल्यान बंगाली शिकून सगळो रवीन्द्रनाथ मूळ [illegible] वाचूंक जाय...'

हांसून म्हणपाक लागले, 'सहा महिने पूरणार नाहींत... [illegible] लागतील...'

'मग दोन वर्षांसाठीं या...'

दोन तीन सप्तकां उपरांत आयले. आयुष्यांतले निमाणे दीस [illegible] सारपा खातीर आयिल्ले. चार साडे चार वर्सां आमगेर उरले... अ[illegible] भायर पडले.

आमी सदां सकाळीं संक पासयेंक वचचें. वरभर पासय मारून परतुचें... आठांक तांचो 'वर्ग' सुरू जातालो. अक्षरांची वळख आशिल्ली. नागरीच अक्षरां तीं, नाचाचे पोझींत उबीं राविल्लीं. तांणी वाचचें. हांवें आयकुचें. बंगाली शिकोवपाची तांगेली खाशे[illegible] रीत आशिल्ली. तांणी म्हणचें, 'बंगाली शिकची जाली जाल्यार गी[illegible] पसून सुरवात केल्ली बरी... मामा देवगरीकरांनी केल्लें बंगाली गीत[illegible] मराठी भाषांतर म्हजेकडेन आशिल्लें. ह्या भाशांतरांतली कवित[illegible] मराठींत वाच म्हूण सांगली. मागीर तीच कविता तांणी बंगालींत दाखोवची. उपरांत हांवें ती बंगालींत वाचची. हे भाशेन, पयलीं गी[illegible] वाचून काडली. मागीर 'गोरा' नवलकथा वाचली. उपरांत भाशांतर[illegible] दिली. सरळ बंगाली वाचूंक लागलों. एका वर्सांत तांणी, हे भाशेन [illegible] कडल्यान रवीन्द्रनाथांचें सुमार तीन हजार पानांचें गद्य वाचून घेतलें. तुम्हाला माझी आवश्यकता नाहीं. तुम्हीच आतां सरळ वाचा... अडचण भासल्यास विचारा' अशें म्हणून वर्ग बंद केले.

पुणून, हांवें म्हजे पुरते ते चालू दवरलें. रवीन्द्रनाथांच्या पुस्तकां[illegible] शरदबाबूंचो 'श्रीकांत' वाचलो. महेन्द्रनाथ गुप्ताचें 'श्रीरामकृष्ण क[illegible] वाचलें.

'दुई बोम' हे नवलिकेचें कोंकणींत भाशांतरूय केलें.

सराव दवरूंक जाय आशिल्लो. दवरलो ना. तरूय वाचतां. आ[illegible] जेन्ना वाचतां तेन्ना तेन्ना बिसेनजींची ती मोटवी मूर्त दोळ्यां मुखा[illegible] उबी रावता.

आयज एक तप जाता तांकां वचून. म्हळें, तर्पण केल्लें बरें.

*

---

- ☐ नवो बरपी अळंकारीक भास केळोवंक आंवडेता. अणभवी असले भाशे पसून आपणाक मेकळो करूंक आंवडेता.
- ☐ म्हज्या बऱ्यांतलो बरो इश्ट: वाचपाक एक नवें आनी बरेंऽ पुस्तक हाडून दिता तो.
- ☐ कांय पुस्तकां कितलेय खेपे वाच. वाचून 'सोंपलीं' अशें दिसपाचें ना. असल्याच पुस्तकांनी म्हज्या अंतरंगांतले कांय रिते कोनशे भरू[illegible] काडल्यात. असलें एक तरी पुस्तक म्हजे कडल्यान बरोवन जायत व्हय?
- ☐ कविता: कवीन काडिल्लें चित्र.
  चित्र: चित्रकारान बरयल्ली कविता.

# ...ल्लॅहॅम

...: (कन्नड लिपयेंत) एडवीन जे. एफ्. डिसोजा

... हाडपी: रमेश घ. लाड

...एक लेखक. म्हजी लिखणी स्वतंत्र, सितिमेंतां मोव आनी ...क्त इटाळ अशें म्हण म्हजे वाचपी वरवणी दितात. पूण सबार ...ारांच्या मेळींत आसल्यारी हांव एकसुरो जातां, चुकोन वेतां, ...टां. म्हाकाच हांव सोदतां आनी म्हाकाच वेंगावंक हांव आशेतां. ...ल्लो वा तुटोन गेल्लो कसलो गी एक गांच म्हज्या जिवितांत ...ण हांव पातयेतां. आमच्या विस्तार भागियेच्या पेंटाळेर बसून ... आगसावयलीं मोडां मेजतां आनी गुपीत रडटां. तेदना मम्मी ... येता. म्हाका आरायता आनी मातें पोशेवन म्हाका बॅल्लॅहॅमाक ...हरता.

...ॅम' आमचो तेरा कमऱ्यांचो बंगलो. शेंबर वर्सांची चरित्रा आसा ...ाक. पूण आतां हातूंत आसर्ची फकत आमी तेगां. मम्मी, डॅडी ... तेगांक आमकां पांच जणां कामाचीं. काळ बदलला आनी ...ां कामाचीं म्हणानांव. घरदार सांबाळूंक मजत दिवचीं मनशां ...य स्थान आसा, मान आसा तसोच सांबाळ आसा. म्हज्या ...या पानांचीं तोटां आसात, तीन कारां आसात, एक खासगी ...ासा. इकरा वर्सांचे प्रायेर म्हजें प्रथम लेखन छापून आइल्लें ...ोसान हांव रातभर निदलों ना. आतां म्हाका चोवीस उतरल्यांत, ...त, स्फुरद्रूपी आनी हेरांक मोग्राक घालच्या सोभायेचें म्हजेंच ...ाका आसा. तरी आतांय लेखक जावन इतलीं प्रगतिपर वरसां ...र केलीं तरी म्हजें लेंखन छापून येताना हांव इकरा वरसांचोच ...नी संतोसान नाचतां. दिवाणखान्यांत स्कॉच घेवन बसून आसचो ...ा तिरशा दोळ्यांनी पळेता.

...मम्मी विशिश्ट आनी विचित्र कालेतिची. तिचेथंय म्हाका आसचो ... म्हज्या आत्म्याक ओकताचें बळ आनी कुडीक कावजेणी हाडून ...ा पळेताना अमेरिकांतल्या 'स्टेच्यू ऑफ लिबर्टी'च्या प्रतिमेचो ...का येता. तीक्ष्ण, गंभीर कसलेंच तिच्या नदरेथावन चुकोन वोचाना. ...बरें तिका जाय आनी पयले पावटीं म्हज्या प्रेमिकाक घेवन हांव ...कार उबो जाल्ले वेळीं 'बऱ्यांतल्या बऱ्याक बऱ्यांतलें बरेंच मेळाचें', ...ली. उपरांत तिणें म्हज्या प्रेमिकाक लागीं आरायलें आनी तिच्या ... उमो घेतलो. 'ह्या पिशा लेखकाक तूं बऱ्यान सांबाळ.' ती ... म्हाकाय जबोर आशा आयली तिका वेंगोन उमो घेवंची. पूण ...ी सक्तेन म्हाका पार्टी धरलो. गांच घडसूंक आयकानातल्लो.

... तरी म्हज्या प्रेमिकाक आनी तीन वरसांनी म्हजी पतीण जावंक ...क विसरूंक हांव सकाना. रोमांत बसून आसच्या तरन्या कलाकारांक ...इल्लें. तांकां त्या पिंतुरांनी मिनुटाक एक नवेसांव दिसता खंय, ... पयले पावटीं पळेइल्ल्यापरी. म्हज्या प्रेमिका थंयी असेंच. हरेक ...का हांव पळेताना पयले पावटीं पळोवंचे परीं म्हाका भोगता.

...ीस वरसांचे प्रायेर तेवीस वरसांचे तिचे लागीं म्हजें लग्न जालें. ही प्राय आमीच विंचून काडलेली. म्हजें लग्न जावन, स म्हयन्यांचे अवधेक आमी विदेशांचे भोंवडेक गेल्यांव. पाटीं येतच आमी चिंतूंक नातल्लें घडोन गेलें. म्हजो डॅडी आनी माम्मी तांच्या खाजगी विमानाच्या अवगडांत अंतरलीं. करोडांच्या वहिवाटांचो हांव एकसुरो धनी जालों आनी 'बॅल्लॅहॅमा'चो राय. वहिवाट हातबदली जाताना मम्मीच्या कमऱ्यांत एक पुरातन डायरी म्हाका मेळ्ळी. ती वाचताना म्हजीं अंतरमळां भुंयकांपेक वळग जालीं. हांव तांचो खरो पूत न्हय. हांव स महिन्यांचें बाळ आसतना खंयच्यागी एका अनाथासऱ्यांतलो म्हाका पोसको करून तांणी आपणायल्लो. पूण नातल्लें कसलेंय विवर ते डायरेंत. कसलेंच विवर ते दिनचरींत नातल्लें तरी चुकोन गेल्लो घडसानातल्लो गांच म्हाका आतां दिसूंक सुरू जाल्लो.

ह्या पत्रांत हें म्हजें अंकण कायाम. पूण हे पावटीं म्हजीं खासगी सितिमेंतां लिखची पर्वणगी म्हाका संपादकान दिल्या. नतालांचे परबेक फकत एक म्हयनो उरला आनी म्हाका तुमी जाय, माम्मी आनी डॅडी. हांव नेणा खंय; पूण खंयसर पुणी तुमचे पैकीं एकलो/एकली जिवंत आसतेलीं म्हूण हांव पातयेतां. ''म्हजीं खरीं आवय आनी बापय. ह्या नतालांक तुमी खंडीत जावन 'बॅल्लॅहॅमा'क येतेल्यांक म्हण हांव जाणां. तुमचें नांव, गांव, विळास ठिकाणें हांव नेणां. पूण हांगासर म्हजें नांव 'बॅल्लॅहॅमां'त म्हाका वागइल्ल्या, वाडइल्ल्यांचें नांव आनी ठिकाणो हांवें दिला. तुमचें येणें म्हज्या वांट्याक जावन आसतेलें तेगां रायांचेंच येणें.

* * *

मोगाच्या पुता,

हीं उतरां हांव लिखताना फांत्याचीं चार वाजल्यांत. सोबीत आनी देवाळ रितीर तुवें बांदल्ल्या 'बॅल्लॅहॅमा'च्या गरदनाच्या गोठ्यांत हें पत्र तुका मेळताना लागीं लागीं तीन घंट्यांचें म्हजें पयण सोंपलां आसतेलें. आनिकी म्हाका घंटे आनी मैलां वचूंक आसा. तुजें अस्पस्ट लेखन वाचताना तुजे तसल्या करोडपतिचीं आवय-बापय जावंक तुज्या बंगल्या सामकार एक लायनच आसतेली म्हण हांव पातयेल्लीं. पूण कालचे सांजेर स घंट्यार त्या हिंवाळ्यांत तुज्या बंगल्याची कांपीण वाजयताना तसली कसली लायन नातल्ली पळेवन म्हजो स्वार्थ थंड जालो.

हांव स्वार्थी स्त्री पुता. 'माँ' म्हळ्ळ्या एका सब्दाक वर्सांथावन स्वार्थान आशेल्लीं हांव. आतां पाशार जाल्ल्या धा घंट्यांनीं तुवें आनी तुजे सुंदर पतिणीन हो अभाव परिपूर्ण रितीर भरला. आनी आतां, हांवें हांगासर रावचें सारकें न्हय. तुवें म्हाका सोदून काडचें कसलेंच प्रेतन करूंक नजो आनी अशें तुवें ह्या नतालां रातीं भास दिचे. हांव हांगासर एकसुरींच, ह्या तुज्या 'बॅल्लॅहॅमां'त रावोंक आशेल्ली फकत थोड्या घंट्यांक. ते खातीर तुमकां हांवें ओत्तायान मिसाक धाडलें आनी त्या उपरांत तुमी ख्रिसमस बॉल वसाचें म्हण हांवें कड्डाय केली.

आतां, हांव वेतां.

ठिकाणो आनी विळास तुमकां कळयनासतां हांव वेतां तरी थोड्यो संगती तुका कळोवंक हांव अपेक्षितां. येदोळचे भितर हांव तुजी खरी आवय न्हय म्हळ्ळें तुमकां दोगांयकी कळीत जालां. आवचीत दारार उबी जाल्लेक पाटीफुडें पळेनासतां, दाकले रुजवाती विचारिनासतां 'माँ' म्हणोन तुमी गोपांत घेतलें तरी फटवोन पडचे तितलो भेरो तूं न्हय. कितें गी, कसलो गी एक गांच हे नतालांचे रातीं घडसूंक आसल्लो आनी तो घडसालो.

हांव एका प्रायेस्तांच्या घराथावन आयल्यां!

हो देश सुद्राला आनी आमकां प्रायेस्तांक म्हातारीं म्हुणानांत बगार

'सिनियर सिटिजन्स' म्हणतात. ह्याच सुद्रापाक लागोन म्हज्या चवगां भुरग्यांनी म्हाका प्रायेस्तांच्या न्हय सिनियर सिटिजनांच्या घरांत दाखल केलें, अठरा वरसां आदीं. हांव तांकां दुरसाना. कित्याक, तांकां तांच्यो तांच्यो वाटो आसात. पूण मोगाक आंवडेवचें स्वार्थीपण तर हांव खंडीत जावन स्वार्थी. तुमी म्हजेथंय कितें देकलें तें हांव नेणां पूण हांवें 'बॅत्लॅहॅम' देकलां. तुज्या ह्या 'बॅत्लॅहॅमां'त म्हज्या जाणवाये प्रकार ह्या सब्दाचो अर्थ जावन आसा समाधानाचो गर्भ आवयच्या गर्भापरीं. हातूंत आसल्लीं नोव म्हयने पर्यांत पुणी बेफिकिरेन वाडटात, कितेंच उणें ना. जरत्तर तुका उणेपण भोगलां तर ही जावन आसा तुजी चूक समजणी. थोड्या घंट्यांक तुजी आवय जाल्लेक एक सांगचो अवकास दी. अवगडांत अंतरलल्ली तुजी आवय आनी बापूय हांचोच जावन आसा मान आनी स्थान तुज्या ह्या 'बॅत्लॅहॅमां'त. तीं तुजीं खरीं न्हय तरी तांकां तूं, तांचो खरो.

भितर आइल्लेफरा तुजे पतिणेन दिल्लो हुनोनीत काल्द रुचीक आ... पुता. आनी तिणें खर्नाइल्लो क्रिसमस केक आनी तुवें घराच तयार... वायन आपट्ट जावन आसलो.

तुवें तुज्या लेखनांत लिखल्लेंय तुज्या खऱ्या आवय-बापाचें येणें आसतेलें क्रिस्ताक भेट करूंक आइल्ल्या तेगां रायांच्या येण्यावरी... पूण नतालांची कथा तुवें सारकी वाचल्याय तर बाळोकाक नमान... काणिको अरपून जातच ते तेग राय बॅत्लॅहॅमांत रावलेनांत.

व्हय म्हज्या मोगाच्या पुता, ते बॅत्लॅहॅमांत बिलकूल रावलेनात. ''आनी ते तांच्या गांवांक भायर सरोन गेले तांच्याच वाटांनी...''

✲

# कष्ट करतकर फळ

एका गांवांत एक श्रीमंत मनीस खंयच्या तरी एका वाराक गरिबांखातीर धान्य वांट्टालो. इतल्यांत थंय गौतम बुद्ध आपलें आयदन घेवन आपणा... धान्य मेळचें म्हणून ताचे म्हऱ्यांत आयलो. गौतम बुद्धाक सगळे लोक वळखताले. ताका पळोवन ताचो आदर करून 'यो, बस' म्हणटाले; पूण गिरेस्तान ताची वासपूस केलीना आनी परतें ताणें आपणाकय भीक घालची म्हणून मागतर, ''आरे, तूं जिवान घट्‌मूट आसा; कामाक खंय तरी च... भीक कितें मागता?'' अशें सांगलें आनी फुडें ताका आपणें कशे तरेन शेतकामत्याचो धंदो करून संपत जोडली, आपणाल्या कुटुंबाक कसो पोस... आनी गरिबांकय तें कशें दिता तें सांगलें. ताणें ''आपणें हें सगळें कष्ट करून जोडलां; तुवेंय जर म्हजे सारके कष्ट केले जाल्यार तें तुकाय मेळटलें'' अशें सांगलें.

तागेलें हें सांगणें आयकून तथागत गौतम बुद्धाक राग आयलोना. ताणें थंडसाणेन जाप दिली, ''तुमचें म्हणणें बरोबरच आसा. मनशान कष्ट करूंक जाय. हांवय तुमच्या सांगण्या प्रमाण करीत आसां. तुमी जशे जमीन नांगरतात, बीं रोयतात, शेतकामाचे कष्ट करून पोटाचो हुसको पयस करतात तशेंच हांवूय करतां.''

तो गिरेस्त मनीस अजापान म्हणूंक लागलो, ''कितें! तूं शेतकार! शेऽऽ, तूं फटकिरो! तूं शेतकार आसल्यार तुका शेत जाय, बैल जाय, नां... आनी हेर आवतां जाय, बीं जाय! हीं खंय आसात तीं दाखय पळोवया?!''

गौतम बुद्धान तागेलें सगळें आयकून घेवन सांगलें, ''स्रद्धा हें म्हजें बियोड. ज्ञान आनी सौजन्यान दुसऱ्यांकडेन चलप हीं म्हजीं शेतकामाचीं आवत... चित्ताची एकाग्रताय हो आमगेलो बैल आनी चित्त हे दोर; शास्त्र हो नांगराचो फाळ आनी एका चित्तान हें सगळें करप हो म्हजो चाबूक. आमी आमच... नांगरान ह्या संवसाराचे जमनीचेर वायट अशे कांटे-खुटे पयस करून लोकांनी धर्मान चलचें हे खातीर बीं घालपाक फाव अशी जमीन तयार करतात. मनशांचें मन अशे तरेन तयार करतकर 'बरें केल्ल्यान बरेंच जाता' आनीं बुद्धीन तांचें मन तयार करतकर जो पावस पडटा ताजेर सगळेकडे... बऱ्याचेंच पीक येता जाका लागून आमीं सगळे धादोशी जावन सुखी जातात.''

गौतम बुद्धाली ही जाप आयकून त्या गिरेस्ताक आपणें केलें कितें हाचें वायट दिसलें. ताचे जापेंतली मनशाखातीर आशिल्ली करुणा, अगत... धिटाय आनी निमाणें आत्मविस्वासान भरिल्लीं उदात्त उतरां आयकून ताका आपणाली चूक कळून आयली. आपूण एका व्हड मनशा मुखार आ... आनी आपणें ताचो अपमान केला हें ताच्या ध्यानांत आयलें. ताणें ताच्या पांयार तकली दवरून क्षमा मागली आनी तो बुद्धाचो शिश्य जालो.

आपणाली म्हणणी दुसऱ्याक मानपाक लावप हें कठीण काम. तें धीरान, चिकाटेन, आत्मविस्वासान आनी सोप्या पूण अर्थान भरिल्ल्या उतरां... सांगचें पडटा. धर्मप्रचार करपाक भायर सरिल्ल्या तथागत गौतम बुद्धान आपलें आयुश्य संवसाराचें कशें बरें जातलें हें येवजुपाक उपकरायलें. गजा... कसलीय आसूं: ती धर्म प्रचाराची ना तर अध्यात्मीक विशयाची जावं. आपणाक ज्या विशयाचेर उलोवपाचें आसा तो विशय पुरायेन जाणा जाव... घेवंक जाय. खरें उलोवप पासून गोड उतरांनी मांडचें पडटा. आपल्या उतरां वरवीं मनां पालटपा इतली शक्त मनशांत आसूंक जाय. मनां तय... करप हें काम सत्संग करूनच शक्य जाता. ताकाय चिंतप लागता.✲

तशेंच, मनशाकडेन अचाट शक्त आसूं येता, पूण जण एकल्यान खासा आपलें बळ पारखूंक जाय. खंयचीय गजाल आनी कसलीय गजाल दुसर... तोंकाक व्हरूंक जायना. ह्या संवसारांत एकल्याच्यान जें करून दाखोवप शक्य जातलें तें, तसलें, तितलें बरें, दुसऱ्याच्यान जातलेंच म्हणूंक जाय... आपणाकच आपलें बरें कशें करपाचें तें विचार करतकर समजुवप शक्य आसा. हाकाच मध्यम मार्गान चलचें अशें म्हणटात. मध्यम मार्गाविशीं बुद्धा... सांगलां, तंतुवाद्य 'विणा' सारकें वाजयतना तांतल्यान सूर आपणाक जाय तशे काडपाचे आसतात, आनी ते खातीर त्या वाद्याच्या तारांक बांदिल्ले... खुंटयो पिळून योग्य तो सूर कसो येतलो तें पळोवन, त्यो सैल, नातर धील करच्यो पडटात. त्यो चड ताणल्यार बरो सूर येना, तसोच चड धी... सोडल्यारय येना. त्यो दिस्तादिस्त दवरतकच तांतल्यान बरो सूर येता.

मनशाचे शक्तीचेंय तशेंच आसा. ती शक्त ताणून उपयोगाची ना. आनी चड धील दवरिल्ल्यान तो आळशी, बेपर्वा असो जातलो. हे खातीर मनशा... आपणाल्या मनाच्या आनी कुडिच्या शक्तिंचो मध्यबिंदु सोदून काडचो आनी मदल्या मार्गान वचचें-चलचें. नांवा खातीर जिवापाड यत्न करचे न्हय... म्हणचे अति कष्ट घेवन केल्लें संवसारांतलें काम त्या तोलाचें न्हय, हें फुडें कांय वर्सां वतकर आपणाक समजून येता. ते पयलींच जाणा जाव... हेंच श्रेयस्कर.

— राम. बा. प्रभु चोडणेक...

*(✲ बौद्धपर्व – ले. वा. गो. आपटे, बी.ए., ह्या पुस्तकांतल्यान घेतलां.)*

# उतरां म्हजीं भांगराचीं

अभिजित गं. पेडणेकार

गराच्यो वस्ती तयार करपाचो धंदो करपी मनीस म्हळ्यार 'शेट'. टीक 'फिशाल' ह्या नांवानय पाचारतात. पूण शेट हें नांव अदीक टेत आसा. शेटीक 'दैवज्ञ ब्राह्मण' लेखतात. शेटीं भितरूय कांय ासतात. ते हेर भटां सारकेच देवळांनी पुजा करतात आनी घरांत कामय करतात. शेटिंचो देव म्हळ्यार 'विश्वकर्मा'. ह्या देवाक खंय ह्यां आसात. शेटी वरीच कांसार, मेस्त, लोहार, कुंभार हेवूय ह्या जतात. विश्वकर्मा भायरूय शेटींक कुलदेव, ग्रामदेव बी अशे देव ।

ाचे ग्रेडीक कॅरेट म्हणटात. भांगराचे 'बिस्किटीं'तलें भांगर २४ कॅरेट हाका **चोक भांगर** अशेंय म्हणटात. दुसरी ग्रेड म्हळ्यार २२ कॅरेट. डें तांबें आसता. मागीर, १८ कॅरेट. हें भांगर मात्शें तांबडें कशें सगळ्यांत कमी भांगराची ही ग्रेड. ९, १२, १३ कॅरेट भांगरूय पूर हें चडसो कोण वापरिना. भांगर हो धातू सगळ्यांत मोव आशिल्ल्या तातूंत तांबें घालचेंच पडटा. १ ग्रामाक १०० मि.ग्रा. तांबें घालुंकूच जाल्यार भांगर घट जायना वा ताचेर काम करूंक त्रास जातात. ग असल्या भांगरा पसून तयार केल्ल्यो वस्ती बागोवपाची शक्यताय

ाचें वजन करपाक तराजू लागता. भांगराचे एके बिस्किटिचें वजन ं म्हळ्यार १५ पोवनां आसता. देड पोवन म्हळ्यार १ तोळो, आनी म्हळ्यार १ पोवन.

त्रांतल्या णवव्या दिसा, म्हळ्यार नमी दिसा, शेटिचीं सगळीं आवतां ावपाची चाल आसा. शेट काम करूंक बसलो की ताका **माणार** अशें म्हणटात.

## ीं आवतां

ी वाटकुळी आसता. वयलो भाग मोठो आनी सकला बारीक. चड ांगर आटयतना हिचो उपेग करतात. मुशींत भांगर घालून उज्यार ।

हातूंत कोळशे घालून उजो करतात. आनी ह्या आगट्यांत पेटिल्ल्या चेर मूस दवरतात.

आगट्यांत वारें घालून जे इंगळे पालवतात तें पेटोवपाक आनी उजो हाचो उपेग जाता. फकत वारें घालप हें ह्या यंत्राचें काम.

**णी:** भांगर आटोवन जालें की भांगर ओतपाचें आवत म्हळ्यार णी. हातूंत भांगराची **लगडी** तयार जाता. लगडी लांबट आसता.

**साणस:** भांगर जे मुशींत आट्टा ती मूस धरपाक हिचो उपेग जाता. आगट्यांतले इंगळे काडपाकूय हिचो उपेग जाता.

**कातर:** भांगराची बिस्कीट, लगडी, सरपळ्यांच्यो कडयो, पाती बी कापूंक ही कातर वापरतात.

**चिमटो:** सरपळी गुथपाक हाचो चड उपेग जाता. तशेंच, भांगराची वस्त हात लायनासतना काडपाक वा पातयेचे बारीक कुडके म्हळ्यार 'दाग' काडपाकय हो उपेगी पडटा.

**तुरकेज:** सरपळी वेणपाक वा सरपळेक पीळ घालपाक वा घट धरपाक हिचो उपेग जाता.

**जतीर:** हाका बारीक बारीक बुराक आसतात. सरी ओडपाक म्हळ्यार सरपळी जायत्या वजनाची आनी लांबायेची जावचे खातीर हाचो उपेग जाता.

**गावी:** गावयेचो उपेग चड करून कितेंय बागोवपा खातीर वा घट धरपा खातीर करतात.

**गावो:** गाव्याचो उपेग चडसो जतरांतली सरी ओडपाक वा सरपळेक पीळ घालपाक जाता.

**मनगावी:** हाचो उपेग, भांगराची सरी वांटकुळी करपाक वा मणी गुथपाक वा सरपळेक वळ घालपाक जाता.

**तुतयो:** हाका चड करून हातोडी म्हणटात. हातोडी भांगर धाडावपाक उपेगी पडटा.

**धाटयो:** हाचो आकार हातोडे सारकोच आसता. पूण हातोडी मोठी आनी हो धाटयो ल्हान आसता. हाचो उपेग सरपळी वा कसलीय भांगराची वस्त तासपाक जाता.

**कोळखण वा हन्न:** हाचेर भांगर धरून धाडायतात.

**दिवो:** भांगराच्यो वस्तू तापोवपाक वा त्यो पासपाक हाचो उपेग जाता.

**कानस:** ह्यो कानशी तिदार, कोदरात, वांटकुळ्यो, तरे तरेच्यो आसतात. भांगराच्यो वस्ती घांसपाक हांचो उपेग जाता.

**तिरायट:** हाचेर डिजायन कोतरायल्ले आसतात. ल्हान भुरग्यांच्या कांकणाक हाचे वयल्यान डिजायन काडूं येतात.

**फुकनळी:** दिव्याची मोठी जोत आसता ती हे फुकनळेच्या आदारान बारीक करूं येता. दिव्याची जोत उबी आसता तीय हातुंतल्यान वांकडी करूं येता. हेच जोतींतल्यान भांगराची वस्त पासतात.

**दिरबो :** भांगराच्या वस्तींक बुराक काडपाक हाचो उपेग जाता. हाकाच ड्रील अशेंय म्हणात.

**खरवत :** ही खरवत आकारान ल्हान आसता. तिचें पातें सामकें बारीक आनी पातळ आसता. भांगराच्यो वस्ती कातरपाक ती उपेगी पडटा. पयलीं डिजायनय खरवतीन कातरताले.

**निवळणी :** भांगराच्यो वस्तू निवळ करपाक हिचो उपेग जाता. भांगराच्या वस्तींक जी धार आसता ती धारूय निवळणेन मोडटात.

**काकांडो :** कांकणां ल्हान व्हड करपाक तशेंच तीं वांटकुळीं करपाक हाचो वापर करतात.

**सुळकी :** सुळकी काकांड्या सारकीच पूण ल्हान आसता. मुदी ल्हान व्हड करपाक हिचो उपेग जाता.

**बुतुदर :** कानांत घालपाच्यो वेडी आसतात तांकां फाटल्यान मोळसुदो आसतात त्यो मोळसुदो अर्द्या चंद्रा सारक्यो दिसतात. तांकां हो आकार दिवपाक तशेच भांगराचे मणी वाटकुळे करपाक हाचो उपेग जाता.

**रोमो :** बुतुदरा वांगडाच हाचो उपेग जाता, लाकूड फोडटना शेणे वापरतात तसोच हो रोमो मोळसुदो करतना बुतुदरार मारतात.

**आयटी :** ही आयटी लोखणाची आसता. तिचेर डिजायन कोतरायल्लो आसता. वेगवेगळे डिजायन वेगवेगळ्या आयटिंचेर कोतरायल्ले आसतात. भांगराचो पाटो करून तो आयटिचेर धाडायतात आनी आयटिचेर डिजायन आसता तोच पाट्याचेर काडटात.

**धोणकी :** धोणकी लोखणाचे सरयेची करतात आनी तिका सूत बांदतात. हिचो उपेग भांगराच्यो वस्ती पॉलीश करपाक जाता. धोणकी आतां चडसो कोण वापरिना. पॉलीश करपाक 'बफ' म्हूण यंत्र आयलां. हातूंत फकत भांगराच्योच वस्तू पॉलीश करतात.

**संचो :** हाका चड करून **लेत** म्हणटात. ह्या संचाचेर भांगराचे लगडिची सरी वा तिचो पाटो करूं येता. पयलीं धाडावन सरी वा पाटो करताले पूण आतां ह्या संचार सरी, पाटो लावन मेळटा तसोच भांगराचो डिजायन कापून मेळटा. पयलीं हातीन डिजायन काडून तो खरवतीन कापचो पडटालो.

**नंबर दाणी :** नंबर रिंगां आसतात तीं बोटांत घालून वा बोटांतली मुदी हे नंबर दाणयेंत घालून मुदयेची सायज पळेतात आनी ते प्रमाण मुदी तयार करतात.

## वस्तिंच्या घडपांतल्यो हेर बारिकसाणी

**भांगर आटोवप कशें ? :** सगळ्यांत पयलीं आगट्यांत कोळशे घालून उजो करतात. तातूंत भांगर, तांबें, चांदी घाल्ली मूस दवरतात आनी भात्यान वारो घालतात. मूस नवी आसत जाल्यार ती पयलीं तापोवची पडटा. भांगर कडटा आसतना इल्लो खार घालतात. भांगर कडलें काय तातूंत नवसागर उडयतात आनी मागीर पडकळणींत ओततात. पडकळणींत ओतले उपरांत भागराची लगडी तयार जाता.

**कसाची साण वा कसाचो फातर :** कसाचो फातर काळो चौकोनी वा वाटकुळो आसता. ताचेर खोबरेल तेल ओततात. खोबरेल तेलान भांगराचें कॅरेट कळटा. पोरन्यो भांगराच्यो जावं चांदिच्यो वस्ती घेवपाच्या वेळार त्यो वस्ती ह्या फातरार घांसून पळेतात.

**पोमीस फातर :** हो फातर धोणकेच्या सुताचेर वा बफाचेर घांसून मागीर तो भांगराच्या वस्तींक मारतात. हाका लागून पूट बरें येता आ बरी जाता. पोमिसाकूच काळें सूत अशेंय म्हणटात.

**तांबडो पावडर :** होय फातर रंगान तांबडो आसता. हो धोणकेन न बफान मारतात. हाकाच पॉलिशिचो फातर म्हणटात. हाका लागून वस्ती चक्क जातात.

**मेक :** मेक म्हळ्यार सरी वा दोन सरयो. ह्यो सरयो चड करून वापरतात. सरपळेच्यो कडयो करपाखातीर मेक वापरतात. ज्य सरपळेक वापरिल्ली सरी ओडटात त्याच वेजान ह्यो सरयो ओडट भांगराची सरी हाजेर वेणतात.

**हिपल्यो :** मेकाचेर भांगराची सरी वेणून जातकर भांगराची सरी स्प्रिं जाता. ताका हिपली म्हणटात.

**कडी :** हिपली कापत जाल्यार एक वांटकुळी जाल्ली वा लांबट सरी मेळटा. तिका कडी म्हणटात. कडी आकारान ल्हान आसता.

**आरगोळां :** आरगोळां कड्यां परस व्हड आसतात. सरपळेच्या वा मास्कोताच्या शेवटाक आरगोळां लायिल्लीं मेळटात.

**आंकडो :** आंकडो म्हळ्यार एके तरेचें लॉक. हें लॉक 'ळ' सारक्या आसता. आंकडो दोनय आरगोळांक जोडपाचें काम करता.

**पाती (साखो) :** चांदी, तांबें, भांगर घालून तयार केल्लें मिश्रण पाती. हाचो उपेग तासपाक जाता.

**दाग :** कडयेचें तोंड जावं पाट्याचें तोंड पासपाक पातयेचे बारीक करतात ताकाच दाग म्हणटात.

**पाटो :** भांगराचे लगडे सावन पाटो तयार करतात. पाटो चौकोनी, आसता. हाचो उपेग कांकणां करपा खातीर जाता.

**पोनेळी :** पाट्यावेल्यान पोनेळी करतात. पावसाच्या दिसांनी नळ्यांच्या खाला पोनेळ लायतात तशाच आकाराची ही आसता. **पोनेळ** व्हडल **पोनेळी** ल्हान आसता. तांचो उपेग पिड्डुकांचीं, मोतयांचीं बी काकण जाता.

**वळसरी :** ही वळसरी भांगराची आसता. पितुळची सरी आनी सरी एक करून वळटात आनी मागीर ॲसिडांत उडयतात. तातूंत सरी ना जाता आनी भांगराची सरी उरता.

**पूट :** पूट द्रव – पातळ – रुपांत आसता. तें तयार करपा खातीर फडकी आनी मीठ एकठांय करून उज्यार खतखतायतात. पूट रंगाचें आसता.

**चटको :** भांगराच्यो वस्ती चकचकीत दिसच्यो म्हूण तेजेब्र (ॲसीड) खतखतायतात आनी मागीर तातूंत सलत्री उडयतात आनी भांगराच्य तातूंत बुडोवन काडटात.

**कॉर्तसांव :** म्हळ्यार कोतरावप. सरपळी तासतात. तेच प्रमाण कां खंयच्याय भांगराच्या वस्तिंचेर डिजायन कोतरायतात. हें कोर्तसांव फकत हातीन करताले. आतांय हातीन करतात. पूण ते भायर यं करतात.

**टोचे :** सरपळी वा भांगराची खंयचीय वस्त तासून जातकच वा डि करतकच जो भांगराचो कस पडटा ताका टोचे म्हणटात.

ह्यो सगळ्यो गजाली जातकूच मागीर भांगराची वस्त विकपाक जाता.

## …या वस्तिंची वळेरी

…सरपळी सगळींच घालतात. सरपळी करपाक पयलीं जतिरांतल्यान …वी पडटा. मागीर तिची मेकार हिपली करची पडटा आनी हिपली … कडयो तयार जातात. कडयो एकामेकांत घालून पसतात तेन्नाच …यार जाता. वेगळ्यावेगळ्या तरांच्यो सरपळ्यो आसतात.

…ची सरपळी – हे सरपळेच्यो कडयो मारून चेपयतात, म्हळ्यार …' करतात आनी ह्यो कडयो गुंथतकच पासतात. मागीर 'फार …ली' वो लेतयाची सरपळी तयार जाता.

…ची सरपळी – हे सरपळेच्यो कडयो गच्च गुंथतात म्हळ्यार …त. पासून जातकीर तिका पीळ घालतात. पीळ घातलो की दोरान … घालतात, तशी ही सरपळी जाता. सरपळी दोन फळ्यांनी तासतात. …ार दोनूय सायडिंनी आनी मर्दीं खळी अशे तरेन तासतकच फातयेची …ळी तयार जाता.

… डिस्को – हे सरपळेच्यो कडयो मातश्यो सदळ पासतात. हिकाय … घालचोच पडटा. पूण ती सपाट तरेन तासतात. सरपळी गळ्यांत …ली की तिका आपुणूच पीळ पडटा.

… डिस्को – हातूंत एक एक कडी पासचे बदला एकाच वांगडा … दोन कडयो पासतात आनी तिका पीळ दितात. हीय सपाटूच …तात.

… सरपळी – ही वयर सांगल्या तांच्यांतल्या खंयच्याय प्रकारांत … येता. पूण ही सरपळी ल्हान आसता तिची लांबाय चडांत चड … इंच आसता.

…ो सरपळ्यो इंचांनी मेजिना तर मुठिंनी मेजता. एक मूठ म्हळ्यार …नी हाचेच वेल्यान तांची **फेती** थारायतात. फेती म्हळ्यार केल्ल्या …ोल.

…: सरपळेच्या एका अर्दान गांच आनी दुसऱ्या अर्दान पॅस आशिल्ली …ळ्यार भांगतिळो. हाचो उपेग चडसो लग्नाच्या वेळार जाता. केसां … आसता तातूंत सरपळी भरतात आनी गांच केंसांत खोयतात. …ला सारकें पॅस कपलार येता.

…रपळेक गुथिल्ल्यो वाटकुळ्यो वा लांबोड्यो भांगराच्यो बिंदी पासतात. …ना सावन फाटल्यान केंसां मेरेन लायतात.

… म्हळ्यार भांगराचे बारीक सरयेचें कानांतलें. हे सरयेक भांगराचो …सता. शेकलेन ल्हान भुरग्याचे कान तोपतात.

…: गळसरी म्हळ्यार गळ्यांत घालपाची वस्त. गळसरी पोवनां, अर्द …ा पाव पोवनांची केल्ली आसता. हीं पोवनां सात, पांच अशीं गुंथतात. … पोवना कुशीक एक एक पोवळें घालतात.

…णी काळ्या पिड्डुकांचो आसता. तो बारीक भांगराचे सरयेन गुंथिल्लो …. लग्नाच्या वेळार न्हवरेकार ही वस्त व्हंकलेक घालतात. मणयाक …ी आसता. म्हुर्तमयाच्या दोनूय कुशिंनी पोवळीं आसतात.

…त्र: मंगळसुत्र मणयासारकेंच आसता. हेंय लग्नावेळार घालतात. पूण …हुर्तमणया बदला पॅस आसता. हाका चडशे लोक मंगळसुत्र म्हणनासतना …' म्हणटात. हें व्हंकलकारां व्हंकलेक घालतात.

…ी: तंडमणी सगळो मणयांचोच आसता. पूण तो भांगराचे सरयेन …ो आसता. हाकाय काळे मणी वा पिड्डुको वापरतात. तंडमणी गळ्याक सामको फीट बसता.

**दुशी:** दुशी म्हळ्यार एके तरेचो मणीच. हो भांगराचे सरयेन गुंथतात. फकत पिड्डुकोच उपेगांत घेतात. बाकिचे मणी दोन पोडी आसतात पूण दुशी एक पोडी आसता.

**लक्ष्मीहार:** हो एके तरेचो हार. हातूंत लक्ष्मीची म्हुर्त आशिल्लीं कांय पॅसां तयार करतात आनी तीं एका फाटोफाट गुंथतात.

**चपलांहार:** हो हार सगळ्यांचे आवडिचो. भांगराचे लगडेक पाटो लावन पॅसां कापतात आनी तीं एकामेकांत गुंथतात.

**कुट्टरी:** हीय गळ्याक घालपाची वस्त. ती गळ्याक घट्ट बांदून आसता. हातूंत मोतयां एकामेकांक गच्च गुंथिल्लीं आसतात.

**शेडो:** शेडो हो सरपळे सारको. सरपळी एक पोडी आसता. पूण शेडो कितलोय लांब तसोच दोन-तीन पोडी आसूं येता.

**पिसोळ्यांचो/पाख्यांचो जोड:** पिसोळ्या सारखी वा पाख्याच्या आकाराची वस्त करतात; ताका थिकां बसयतात. ही वस्त केंसांत आंबाड्याक लायतात.

**फुलांची आटी:** भांगराची फुलां करतात आनी तीं एका वाटकुळ्या पाट्याक (आटयेक) लायतात. हाकाच फुलांची आटी म्हणटात. ही वस्त फुलांची फांती माळटात तशी केंसांत आंबाड्या भोंवतणीं माळटात.

**सुरंगां वळेसर:** सुरेंगांचे कळे आसतात तशे भांगराचे कळे करून तांचो वळेसर करतात; हीय वस्त आंबाड्यार माळटात. हालीं तेंपार 'सुरंगां वळेसर' व्हडलेशे करनात.

**माश्कोत:** माश्कोत ही हातांत घालपाची वस्त. ती सरपळे वरी आसता. सरपळे मर्दीं डिजायन केल्लें वा डिजायन करूंक नाशिल्लें पॅस लायतात. ताचेर नांवय घालूंक मेळटा. तशेंच आंकड्या कडेन स्वस्तीक, ॐ वा खुरीस लांबयतात.

**कांकणां:** कांकणांचे तरांतरांचे प्रकार आसतात.

**आटयेवेलीं कांकणां** – हीं कांकणां तयार करचे पयलीं भांगराची लगडी आसता ताचो पाटो लावचो पडटा. हो पाटो जाय तितलो रूंद वा दाट काडूं येता. हाका 'गेज' म्हणटात. ज्या लोखणाच्या ब्लॉकाचेर डिजायन कोतरायल्लो आसता ताचेर हो पाटो मारतात आनी त्या ब्लॉकाचेर आसता तसो डिजायन त्या पाट्याचेर येता. मागीर जाय ते सायजिचीं करून ताका बाग दितात. अशे तरेन तें कांकण तयार जाता.

**मशिनावेलीं कांकणां** – वयर सांगिल्ले प्रमाणच हीं कांकणां तयार करतात. पूण लोखणाचो ब्लॉक वापरला थंय मशीन उपेगांत हाडटात. कांकणाचो पाटो सायजिचो करून बाग दिवन मागिरच मशिनाचेर डिजायन करतात.

**पिड्डुकांचीं वा मोतयांचीं काकणां** – ह्या कांकणांक पाटो लावचोच पडटा. पूण दाटायेन पातळ लावचो पडटा. ह्या पाट्याची पोनेळी तयार करतात. हे पोनेळींत पिड्डुको वा मोतयां सारकीं बसोवन गुंथतात. पिड्डुकेचे वा मोतयांचे मर्दीं भांगराचे **मणी, गवेमणी** वा **बोयो** वापरतात.

**पाटली:** पाटली भांगराच्या पाट्यापासून तयार करतात, तशीच ती सायजीक करतात, बाग दितात. मागिरच चौकोनी चौकोन मारतात आनी कुशीक भांगराचे मणी पासतात आनी डिजायन करतात.

**तोडो:** हेंय एके तरेचें कांकण. हाचो पाटो पातळ आनी कोतरायल्लो आसता म्हळ्यारच जाळी कशी. ह्या पाट्याचेर बोयो पासतात आनी ह्या बोयांचेर

वळ घाल्ली सरी पासतात. बोयांक आसतात ताका डिजायन करचो पडटा.

**गोंट:** हेंय एके तरेचें कांकण. हाचो पाटो वांटकुळो आसता. हो वांटकुळो पाटो सायजीक करतात आनी ताचेर भांगराचे मणी पासतात. पाटलेचेर पासतात तशेच. पूण हाका डिजायन एकेच कडेन करतात.

**पिचोडी:** बाकिच्या कांकणांक पाटो लायतात तसोच हाकाय लायतात. पूण हाचो पाटो पातळ आसता. ह्या पाट्याचेर कापून हाडिल्लो डिजायन पासतात. हो डिजायन पासून जातकच तो डिजायन आसा तसो पाटो कापचो पडटा. म्हळ्यार, काकण वयल्यान कोतरायल्ले वरी दिसता. चौकोनी पाटो भायल्यान दिसना.

**बाजुबंद:** ही भांगराची वस्त घडयाळेच्या पट्यासारकी आसता. तशीच ती सादीय आसता. बाजुबंदाक मदीं भांगराचें पॅस आसता. त्या पॅसाक थिकां वा मोतयां आसतात.

**कडें:** ही वस्त बाजुबंदाचे वयर घालतात. भांगराचें कांकण करून ताका सोरपाचें तोंड करतात. हाकाच कडें म्हणटात.

**बायकुरी:** ही वस्त बाजुबंदाचे सकल घालतात. भांगराचें काकण कशें करून ताका मोतयांचो चोमो लावन ही वस्त करतात.

**मुदी:** ही हाताच्या बोटाक घालपाची वस्त. मुदी सादी आसूं येता वा थिकाची आसूं येता.

**पिली (नाकाची काडी):** ही नाकांत घालपाची वस्त. भांगराची सरी आसता वा बारीक नळी आसता तिकाच **गोकी** पासतात. गोकी म्हळ्यार बारीक पात्याचें केल्लें आरगोळ. हे गोकयेंत थीक बसयतात वा भांगराचो मणीय पासतात.

**नथ:** पयलिंच्या काळार ह्यो नथी बऱ्यो व्हडल्यो करताले. नथ म्हळ्यार भांगराचें पॅस. ताका मोतयां वा थिकां बसयतात. आनी ह्या पॅसाच्या फाटल्यान सरी पासतात. हालीं हालीं नथी ल्हान आकाराच्यो करतात. हांकांय मोतयां वा थिकां बसयतात. हीं पॅसां मोर, नुस्तें असल्या आकारांत करतात.

**वाळी:** हीय नाकांत घालपाची वस्त. नथी सारकीच. पूण हिका पेस नासता. सगळीं मोतयांत आसतात. आनी चडकरून मदीं थीक आसता.

**कानाची काडी:** नाकाची पिली आसता तशीच कानाची काडी आसता. पूण कानाचे काडयेक चड करून मळसुद आसता. ही कानाच्या वयल्या भागाक लायतात.

**वेड:** ही कानांत घालपाची वस्त. ती फुलासारकी आसता आनी तिका थिकां वा मोतयां बसयल्लीं आसतात. फुला फाटल्यान नळी पाशिल्ली आसता आनी तिकाच मळसूद आसता. पयलीं बायलां व्हड आकारांच्यो वेडी घालतालीं. पूण आयज इतल्यो व्हड वेडी घातिल्ल्यो दिश्टी पडनात.

**बुगडी:** ही वस्त चड करून मोतयांची तयार केल्ली आसता. ती कान ते केंसामेरेन आसता.

**मोगड्या जोड:** ही वस्त मोतयां आनी भांगर हांचे पासून तयार आसता. मोतयांचो चोमो करून ती भांगरांच्या आदारान गुंथतात. कानाकडेन लांबयतात.

**धुमा जोड:** धुमा जोड मोगड्या जोडा सारकोच पूण मोगड्या जोड मोठो आनी हो ल्हान आसता.

**बुट्टू:** बुट्टू वेडीं सारकेच तयार करतात. पूण तांचो आकार फुला स आसना वा तांकां थिकां/मोतयां आसनात. बुट्टू सगळे भांगराचेच आस

**रिंगां:** पयलीं पाटो करतात, हो पाटो रुंदायेन मात्सो अशीर आसता पाट्याची पोनेळी करतात आनी ही पोनेळी जतरान ओडटात. जतरांत ओडली म्हण्टकीर मागीर नळी तयार जाता. ही नळी वांटकुळी क आनी आकडो म्हूण ताका सरी लायतात. आनी ती तासून हाडटा रिंगां आकारान जाय तितलीं व्हडलीं वा जाय तितलीं बारीक आसतात

**पिंजरो:** वेड आसता तशेंच हें फूल आसता. पूण ह्या फुलाक थिकां आसत अशें ना. आनी तीं वेडिंच्या फुलां परस ल्हान आसतात आनी ह्या फु ल्हान सरपळी पाशिल्ली आसता. हे सरपळेक **पिंजरो** आसता. हो पि भांगराच्या ल्हान सरयांनी तयार केल्लो आसता.

**कान:** कानाचो भायलो आकार आसता त्या आकाराचे तशेच त्या आ परस ल्हान आकाराचे हे कान करतात. हे कान कोतरायल्ल्या पॅस करतात तशेच गोकयो पासूनय करतात. कानाच्या आकारासारकी सरी क ते सरयेक गोकयो वा बोयो पासतात. ह्या गोकयांनी थिकां बसयतात. पॅ कान करतात तांकांय थिकां बसयतात वा डिजायन करतात. अशेच टायपीन, साडी पिनय करतात.

**बाली:** बाली दादल्यांनी घालपाची वस्त. ही वस्त कानाच्या वयल्या भा लायतात.

**बिगबाली:** ही बालये सारकीच वस्त. पूण बालये परस मात्शी व्हड. वस्त दादल्यांनी घालपाची.

**सल्ले:** ही वस्त चांदिची. ती पांयांच्या आंगठ्याक घालतात. सल्ले म वरीच आसतात.

**वाळे:** वाळे चांदिचे तशेंच तांब्याचे आसतात. ते चडशे ल्हान भुरग्यां पांयांत घालतात. धनगरांत जाण्ट्यांच्याय पांयांत हे वाळे पळोवंक मेळ

शेट रुप्याच्योय वस्ती तयार करतात. आयच्या काळार रुप्याच्यो क करपी वेगळे आसतात. सगळेच शेट रुप्याचें काम करनात. रुप्याचें व आतां मशिनाचेर जावंक लागलां. रुपें पोवनांनी मेजनात; तें फकत ग्राम मेजतात. रुप्यांच्या वस्तिंची वळेरी म्हळ्यार (१) मुदी, (२) कमराची सरप (३) छल्ली (चावयो लावपाचो घोंस), (४) पांयजणां, (५) वेडे, ( पिनरिचे करंड, (७) रुप्याचे पेले, बशयो, (८) देवाच्यो मुर्ती, (९) म

* *

---

- ☐ जें बरोवपाक प्रतिभावंताक एक आदेस खर्चुचो पडटा तें हालिंसाराचे बरपी अर्द वरा भितर बरोवन काडटात. असल्यांच्याच पुस्तकांनी हालि पुस्तकालयां भरल्यांत.
- ☐ हांवूच म्हज्या बरपाचो खरो समीक्षक. न्हय जाल्यार, ताचे वयल्यान हांव भौन भौन हात ओडचों नाशिल्लों. तें बदलत रावचों नाशिल्लों. घां पुसून निवळ करपाक बसचों नाशिल्लों.

ध्रागत

[... खिस्त]

## अवनत

...तां मजगतीं केन्नासावन पुजेची चाल सुरू जाली, सांगूंक येना. ब्राह्मणां... ती नाशिल्ली. पुजा हें उतर द्रवीड कुळयेंतलें. द्रविडां कडल्यान ... ही चाल घेतिल्ली आसूं येता.

...-पुजा बुद्धाच्या परिनिर्वाणा उपरांत रोखडीच सुरू जाल्या. तागेल्यो ...वन ताचे शिष्य धा कडेन गेल्ले आनी धाय कडेन तांणी ह्या अस्थींचेर ... दिल्ले. अशोकान ते सगळे उस्तिल्ले आनी ताचे हजारांनी वांटे ...चौऱ्यांयशीं हजार वांटे केल्ले म्हणटात) ताणें साम्राज्यांत हजारांनी ...दून घेतिल्ले. स्तुपां लागसार भिक्खू विहार बांदून रावपाक लागले. ...कां बुद्धाचो सांगात दिवपाक लागले. ते तांकां ताचो उगडास करून ...ं निर्वाणाची साधना करपाक, चित्त विशुद्ध करपाक हो उगडास ...रणा दितालो. स्तुपा मुखार कापूर उजवाती लावपाची आनी ...मळ जावन स्तुपाक तकली तेंकोवपाची चाल, ते उपरांत, आपशींच ...ली. थंयच बसून ते ध्यान करपाक लागले. प्रार्थना करी नाशिल्ले. ...बुद्ध-साधनेंत ना. प्रार्थने खातीर बौद्ध बरपावळींत उतरूय ना.

...नेक खूब लागिंचें 'प्रणिधान' म्हूण एक उतर आसा. पुणून ताचो ...इज्ञा करप असो जाता. 'मागप' हें मुदलांत बौद्ध साधनेंत नाशिल्लें. ...ल्यान आपणाल्या कर्मांचीं फळां भोगचीं पडटात अशें बौद्ध मानीत ...ने. पुणून महायानी पंथ चलपाक लागत पसून ते 'मागपाकूय' लागिल्ले. ...तो' दिवपाकूय लागलो. नामजप, नामसंकीर्तन, सगळें ल्हवू ल्हवू ...लें. 'अमिताभाचें एकूच फावट नांव घेतल्यार पुरो, मनीस ...ी-लोकांत जल्म घेतलो' अशें बौद्धांच्या सुत्रांनी येवपाक लागलें. ... पुजेक लागून बौद्धांत बुद्ध-भक्ती जागी जाली. बुद्धाचो उगडास ... करपाक स्तूप पावना जालो. बुद्धाचें एक प्रतीक ते मुखार दवरूंक ... केन्ना बोधिरुखाचें दवरूंक लागले, तर केन्ना धर्मचक्राचें वा बुद्धाच्या ... दवरूंक लागले. ते मेरेन 'महावस्तू' आनी 'ललितविस्तर' सारकीं ... जिवितां उजवाडा आयिल्लीं. भिक्खू तीं नेमान वाचपाक लागले. ...लागून बुद्धाचें ध्यान करता आसतना ताच्या जिवितांतले म्हत्वाचे ...तांच्या दोळ्यां मुखार उबे रावपाक लागले. एक दीस ही बुद्ध-भक्ती ...ा आनी शिल्पांच्या रुपान ओतपाक लागली. स्तुपांचेर, स्तुपां ...च्या वणटिंचेर, स्तुपां वयल्या पाख्यांचेर भिक्खू चित्रां काडूंक लागले. ... कोरांतूंक लागले. हीं चित्रां-शिल्पां बुद्धाच्या जिवितांतल्या प्रसंगाचीं ...लीं. तातूंत बुद्धाक मनशाच्या रुपान दाखोवचो पडटालो. पुणून बुद्ध ...न मनशां सारको मनीस नाशिल्लो. लोकोत्तर आशिल्लो. ताका हेर ... सारकोच दाखोवप समा न्हय हाची जाणवीक जायना फुडें ताका ...चित्रां-शिल्पांतलो भायर काडलो आनी ताका महाकाय रूप दिलें. ...महाकाय मुर्ती घडयल्यो. आनी त्यो दवरपा खातीर महाकाय देवळांय ...घेतलीं.

...धाच्यो पयल्यो वयल्यो मुर्ती कुशाणकाळांत – म्हळ्यार, खिस्तांचें ...शतमान सोंपत्या काळार – निर्माण जाल्यात. सगळ्यांत पयलीं त्यो ... देशांत जाल्ल्यो. थंय युनानी लोक रावताले. ते मुर्तीकलेंत फिशाल ...ल्ले. म्हूण ह्या पयल्या वयल्या मुर्तिंचेर युनानी प्रभाव दिश्टी पडटा. हिका गांधार शैलिची मुर्तिकला म्हणटात. आंगा वयल्या लुगटाच्यो मिरयो आनी असल्योच दोन चार गजाली युनानी शैलिच्यो आसूं, बुद्धाक तांणी युनानी देव अपोलो सारकें रूप दिल्लें म्हणटात तें मात् खरें न्हय. मुर्ती तयार करपी कलाकार बौद्ध आशिल्ले आनी बुद्धाच्या आंगांत म्हा-पुरसाचीं बत्तीस लक्षणां दिश्टी पडटालीं म्हणपाचें ते जाणा आशिल्ले. हीं बत्तिसूय लक्षणां मुर्तींत दाखोवपाचो तांणी यत्न केला.

मथुरेंतूय त्याच अदमासाक बुद्धाच्यो मुर्ती तयार जाल्यात. मथुरेंत मुर्तिकलेची परंपरा आशिल्ली. मथुरेंतल्या कलाकारांक गांधार देशांतल्यो मुर्ती पळोवन प्रेरणा आनी स्फूर्त मेळ्ळी. पुणून, गांधार शैलिचो प्रभाव तांणी आपणाचेर पडूंक दिवंक ना हें लक्षांत दवरपासारकें.

मथुरेंतले कलाकार बुद्धाचे मुर्तीक 'प्रतिमा' म्हणटाले. 'बुद्धाची प्रतिमा' न्हय. ते मुस्तींत पुजे खातीर कोणाच्योच प्रतिमा कोणें करूंक नाशिल्ल्यो. बुद्धाच्योच मुर्ती पयल्यो वयल्यो आयल्यात. म्हूण 'प्रतिमा' – मूर्त – म्हळ्यारूच बुद्धाची मूर्त असो अर्थ कलाकारांनी केल्लो.

करतां करतां बुद्धाच्या मुर्ती वांगडा बोधिसत्त्वांच्योय मुर्ती तयार जावपाक लागल्यो – जावन गेल्ल्या बोधिसत्त्वांच्यो तश्यो फुडाराक येवपाचे आसात त्याय बोधिसत्त्वांच्यो.

बोधिसत्त्वांच्यो पुजा करतात तेच महायानी बौद्ध – स्थवीरवादी ती करिनात म्हूण ते हीनयानी असोय एक समज तेन्नापसून चलपाक लागलो.

हिन्दू धर्मांत, ते उपरांतूच, मुर्तिपुजा सुरू जाल्या. ते पयलीं नाशिल्ली. हिन्दू धर्म हजार दोन हजार वर्सां मुर्ती बगर चल्ला.

## होंवऱ्यो

विंध्य पर्वताचे दक्षिणेक बुद्ध-भक्तीन वेगळें एक रूप घेतलें. वाटार उगड्या नागड्या दोंगरांचो. खडपाळ. विहार बांदतले म्हळ्यार लाकडां मेळप ह्या वाटारांत कठीण आशिल्लें. बुद्ध-भक्त दोंगर पोखरून चैत्य आनी विहार बांदूंक लागले. पोंदच्यान पोखरीत पोखरीत वयर वचून न्हय, तर वयल्यान पोखरीत पोखरीत ते सकल देंवन आयल्यात. देशांत सुमार बाराशीं होंवऱ्यो मेळ्ळ्यात तांतल्यो आठशीं बौद्धांच्यो. उरिल्ल्यो जैनांच्यो आनी हिन्दुंच्यो.

तांची बांदावळ नियाळून पळोवपा सारकी–

मदीं चैत्य. चैत्या मुखार बसपा उठपा खातीर आस्कळ विस्कळ एक सुवात आनी दोशीं वशिंनी भिक्खूंक रावपा खातीर कुडी. वेरुळांत चोवीस होंवऱ्यो आसात. तांतल्यो बारा बौद्धांच्यो. सात हिन्दुंच्यो आनी पांच जैनांच्यो. बौद्धांचे होंवरेंत तीन माळयांचो एक विहार आसा. दोंगर पोखरून निर्माण केल्लो. भिक्खूंक रावपा खातीर तातूंत शंबर कुडी आसात. बुद्धाच्यो आनी बोधिसत्त्वांच्यो मुर्ती सोडीत जाल्यार कलेच्यो व्हडल्योश्यो पती ह्या होंवऱ्यांनी पळोवंक मेळनात. अजिंठ्याक अठ्ठावीस होंवऱ्यो आसात. सगळ्यो बौद्धांच्यो. भितर स्तुपूय आसात, चैत्यूय आसात, उठपा बसपाच्यो आस्कळ विस्कळ सुवातोय आसात आनी भिक्खूंक रावपा खातीर कुडीय आसात. पुणून, हांचे भायर थंय सामान्यां भायलीं (दिश्ट लागपा सारकीं) चित्रां आनी शिल्पांय आसात. शिल्पां पळेतकूच इतल्यो घट फातरी शिल्पकारांनी लोणया परस मोव कश्यो केल्यो जातल्यो हाचेंच अजाप जाता.

[अजिंठ्याक पळेल्लीं तसलीं चित्रां जपानांत होरीउजी मंदिरांतूय पळोवंक मेळ्ळीं आनी तसलींच चित्रां चिनांत दुनहुआंगांतल्या होंवऱ्यांनीय पळेलीं. एकूच शैली तिनूय कडेन सारकीच कशी वाडूंक पावली हें कुवाडें अजून म्हाका सुटूंक ना.]

कित्याक लागून कोण जाणा, अजिंठ्यांतली अठ्ठाविसावी होंवरी अर्दकुटीच उरल्या.

नासकाक तेवीस होंवऱ्यो मेळ्ळ्यात. तांतली पोरण्यांतली पोरणी खिस्ता

आदल्या दुसऱ्या शतमानांतली म्हणटात. काल्यांचे होंवरेंतलो स्तूप हेच पिरायेचो आनी स्तुपां भितरलो सगळ्यांत व्हडलो. अमरावतिचोय स्तूप असलोच एक व्हडांतलो व्हड स्तूप आशिल्लो. १७९७ मेरेन तो आशिल्लो. आयज ताचे अवशेश ब्रिटिश म्युझियमांत दवरिल्ले पळोवंक मेळटात.

हांतल्यो कितल्यो होंवऱ्यो महायानी पंथाच्यो आनी कितल्यो हीनयानी पंथाच्यो आशिल्ल्यो, सांगूंक येना. चीनी यात्रीक फाहियानान आपणे हांगा कितलेशे महायानी विहार पळेल्ले म्हणपाची नोंद दवरल्या. हुयेनत्सांग म्हणटा, आपणे पळेल्ल्या विहारां भितर शंबरांतले साठ हीनयानी, चोवीस महायानी, तर पंदरा हीनयानी आनी महायानी एकठांयूच रावतात असले विहार पळेल्ले. हाचो अर्थ होंवऱ्यांचो येदोय व्हडलो हो संवसार उबो जाला ते मेरेन हीनयानी आनी महायानी एकामेकां पसून चड पयस वचूंक नाशिल्ले, शंबरांतले पंदरा तरी विहार दोनूय पंगडांक आपलेशे दिसचे अशे आशिल्ले, असो करचो पडटा. हुआनत्सांग सातव्या शतमानांतलो. सातव्या शतमाना मेरेन तरी महायानी आनी हीनयानी दोन वेगळ्या संवसारांत जिये नाशिल्ले. आपापणालें खेरीतपण सांबाळून एकामेकां सांगातांत तांकां रावंक येतालें. नालंदा विश्वविद्यालयांत देशी विदेशी धा हजार विद्यार्थी आनी देड हजार शिकोवपी एकठांयूच रावताले. थंय त्रिपिटकूय शिकयताले. महायानी सुत्रांय शिकयताले. इतलेंच न्हय तर तंत्र-मार्गाचीं गुपितांय समजून घेताले.

हो एकचार पळेतकूच बुद्धधर्म ह्या देशांत सासणाचीं सासणां तिगूंक जाय आशिल्लो. पुणून तो ना जालो. कित्याक लागून ना जालो ?

## शंकराचार्य

कांय जाण म्हणटात, देशांत शंकराचार्य वयर सरलो आनी ताणें बौद्ध आचार्यां कडेन शास्त्रार्थ करून, तातूंत तांकां निर्फळ करून, हरोवन बुद्धधर्म हुमटावन भायर मारलो.

पुणून, राहुल सांकृत्यायन म्हणटात, आनन्दगिरी आनी माधवाचार्य हांचो 'शंकर दिग्विजय' हो एक ग्रंथ सोडल्यार ह्या म्हणण्याक तेंको दीत असो दुसरो कसलोच आधार ना. इतिहासाचो तर निखालूस ना. राहुलजी 'शंकर दिग्विजय' ग्रंथाक तड्डकांनी भरिल्लो ग्रंथ लेखतात. ह्या ग्रंथांत शास्त्रार्थ करून शंकराचार्यान बौद्धांक हरयलें म्हणपाचें सांगलें, तशें सुधन्वा सारकेल्या राजाक खुबळावन बौद्धांक ताणें 'समुद्रांत बुडोवन मारूंक लायिल्ले' अशेंय म्हळां. एक खरें मानलें जाल्यार दुसरेंय खरें मानचें पडटलें आनी दुसरें खरें मानलें जाल्यार शंकराचार्य हो एक कुड्डो आनी धर्मकोल्ली आचार्य आशिल्लो अशें म्हणचें पडटलें.

ह्या ग्रंथान शंकराचार्याच्या काळाचोय गोंदळ केला अशें राहुलजींनी म्हळां. शंकराचार्याक ताणें विक्रमादित्याच्या काळांतलो लेखला. तेच बरोबर वाचस्पती मिश्र ताच्या प्रभावांत आयिल्लो आनी कुमारिल भट्टाक तो मेळिल्लो अशेंय आयलां. वाचस्पती मिश्राचो काळ ख्रिस्ताच्या णवव्या शतमानाचो हें ताच्याच ग्रंथा वयल्यान दाखोवन दिवं येता आनी कुमारिल भट्ट सव्या शतमानाचो, अशें इतिहास सांगता. शंकराचार्याक सव्या शतमानाचो धरलो जाल्यार प्रस्न उपरासता, स्वेन् च्यांगच्या (हुआनत्सांगच्या) पुस्तकांत ताचो मात् लेगीत उल्लेख कित्याक येना ? स्वेन् च्यांग सातव्या शतमानांतलो. ताणें आपणाल्या पुस्तकांत भारतांत आशिल्ल्या बौद्ध आचार्यांच्यो, बौद्ध विहारांच्यो बारीक सारीक गजाली सांगल्यात. शास्त्रार्थांत बौद्धांक निर्फळ करपी कोण ते मुस्तींत आशिल्लो – वा ते आदीं जावन गेल्लो – जाल्यार ताचो उल्लेख केले बगर तो रावचो नाशिल्लो. पुणून ज्या अर्थान ताणें हो उल्लेख करूंक ना त्या अर्थान बौद्धांक शास्त्रार्थांत हरोवपी त्या काळांत उत्तर भारतांत तरी कोणूच नाशिल्लो अशें म्हणचें पडटा. बरें, दक्षिणेंत तरी तसलो कोण आशिल्लो व्हय ? आशिल्लो जाल्यार लंकेंतल्या 'महावंस' ग्रंथांत ताचो खंय तरी उल्लेख येवंक जाय आशिल्लो. तो येवंक ना. आनी लक्षांत दवरूंक जाय, 'महावंस' हो चडसो धर्माचोच इतिहास सांगपी ग्रंथ. तातूंत शंकराचार्याच्या दिग्विजयाचें कांयच येवंक ना जाल्यार ताचो अर्थ दक्षिणेंतूय शंकराचार्या असलो कसलोच दिग्विजय करूंक ना, असो जाता.

'दिग्विजयां'तलीं वर्णनां वाचतकूच देशांत खंयचेच कडेन बुद्धाचें नां निशाण लेगीत उरूंक जायनाशिल्लें – सगळें पुसून वचूंक जाय आशिल्ले अशें दिसता. पुणून इतिहास आमकां वेगळीच एक गजाल सांगता. तो म्हणटा शंकराचार्याच्या काळांतूच बिहार बंगालांत पाल वंशाची राजवट चलताले पाल बौद्ध आशिल्ले. ह्याच काळांत उडंतपुरी आनी विक्रमशिला सारकेल्ल गडगंज बौद्ध विश्वविद्यालयांय वयर सरिल्लीं. थंय संवसारभरचे लोक बौद्ध धर्म शिकपाक येताले. ह्याच काळांत पाल राजांनी बुद्धाच्यो आन बोधिसत्त्वाच्यो नव्यो नव्यो कितल्योश्यो मुर्ती आपणाल्या राज्यांत उब केल्यो. मुसलमानांची राजवट सुरू जायसर बिहार बंगालांत गौड राजा राज करताले. ते बौद्ध आशिल्ले. ह्या राज्याचे अस्तमेक कान्यकुरुजांचें राज चलतालें. ह्या राज्यांतलो राजा बौद्ध आशिल्लो तशी प्रजाय बौद्ध आशिल्लं दिल्लींत तुर्की राजवट येसर बुन्देलखंडूय बौद्ध आशिल्लो. दक्षिणे देवगिरिच्या वाटारांत वेरुळांत बौद्धांच्यो ज्यो होंवऱ्यो पळोवंक मेळटात त मालिक कफूर हिन्दुंचीं देवळां मोडपाक भायर सरला ताच्या थोड्याश आदल्या काळांतल्यो. नासकांतल्यो होंवऱ्योय त्याच काळांतल्यो.

मागीर, शंकराचार्यान बौद्धांक हरयले – बुद्धमत्त देशांतलें हुमटाव भायर मारलें – म्हणटात तें कितलेंशें खरें धरपाचें ? खंय केल्लो ता हो दिग्विजय ? आनी केन्ना ?

ताचे मुस्तींत ताच्याच केरळांत तंत्रमार्गी बौद्धांचो 'मंजुश्री मूलकल्प' नांवाचो ग्रंथ संस्कृत भाशेंत उजवाडा आयला. हें कितें दाखोवन दिता मागीर प्रस्न येता, बुद्धमत्त ह्या देशांतलें ना कशें जालें ?

## अवनतिचीं कारणां

राहुलजी सांगतात, मुर्तिपुजा सुरू जायत पसून बुद्धाच्या मुर्ती वांग बोधिसत्त्वांच्योय मुर्ती तयार जाल्यो. बुद्धा वांगडा तांचीय थाटामाटान पु जावपाक लागली. ब्राह्मणांचे देव जीं कामां करताले तीं बोधिसत्त्व करपा लागले. ब्राह्मणांच्या देवां वांगडा तांगेल्यो देवयो येताल्यो तश्यो बोधिसत्त वांगडा तारा, प्रज्ञा नांवाच्यो तांगेल्यो देवयो आयल्यो. तांचें व्हडपण गाव नवीं नवीं सुत्रां ह्या लोकांनी रचलीं. शेंकड्यांनी पानां भरतीत येदीं व्हड हीं सुत्रां आशिल्लीं. तीं तोंडपाठ जायनाशिल्लीं. म्हूण तांणी एका ए सुत्रांतल्यो एक एक, दोन दोन वळी गुथून 'धारणी' तयार केल्यो. च श्लोकांचें भागवत, सात श्लोकांची गीता ब्राह्मणांनी तयार केल्ल्यो, तसल ह्यो 'धारणी' आशिल्ल्यो. त्यो म्हळ्यो म्हणटकूच अख्खीं सुत्रां म्हणिल भाशेन जातालें. कांय काळा उपरांत ह्यो धारणीय आटोवन तांचे तांणी म तयार केले. मंत्रां वांगडा तंत्र येवंकूच जाय आशिल्लें. तंत्रमार्ग ह्या देशा सिंधु संस्कृतायेच्या काळा सावन चलत आयिल्लो. ब्राह्मण ताच्या प्रभाव आयिल्ले. ह्या प्रभावांत येवन ब्राह्मणांनी शक्ती उपासना सुरू केल्ली. बौद्ध ह्या प्रभावांत आयले. गुप्त साम्राज्याच्या आरंभा पसून हर्षवर्धना मेरेनच काळांत बौद्धां मजगतीं मंजुश्री मूलकल्प, गुह्य समाज, चक्रसंवर सारकेल तंत्र साधना चलपाक लागिल्ल्यो. हांतल्या गुह्य समाजान लोकांक आप वटेन ओडले. गुह्य समाज नांवा भशेनूच गुह्य आशिल्लो. गुपीत रुपान आ लिपचोरयांनी चलतालो. ह्या समाजान आपणाले साधनेंत भैरवीचक्र सु केलें. मत्स्य, मांस, मद्य, मैथून आनी मुद्रा ह्या पांच 'म'कारांची साध तांच्यांत सुरू जाली. तातूंत बायल भोगप, सोरो पियेवप, मांस नुस्तें खाव असलें सगळें येतालें. सगळें भितरले भितर लिपचोरयां चलतालें. म्ह कोणाकूच ते सपसप आपणाल्या समाजांत घेनाशिल्ले. कोणूय ह्या समाजा वांगडा जातलो म्हळ्यार ताका कितलींशीं वर्सां वाट पळेत बसचें पडटा

क्षा घेतले उपरांतूच ते वांगडी जावंक पावताले.

शेन महायानांत एक तंत्रयान सुरू जालें. ताका मंत्रयान आनी वज्रयान वां मेळ्ळीं. हे लोक आपणाली वळख भायल्यान महायानी म्हूण ताले. महायानी संप्रदायान आपणालें वेगळें विनयपिटक तयार करूंक ल्यान पोरण्या सर्वास्तिवादी संप्रदायाक धरून ते दीक्षा घेताले आनी राजांत भितर सरताले. आठव्या शतमानांत ह्या देशांत जो बुद्ध चतालो तो चडसो हो तंत्रमार्गी बुद्धधर्म आशिल्लो. ह्या लोकांचो ाचे शिकवणे वयलो भावार्त उडून गेल्लो. तंत्र मंत्र, जादू चमत्कार च गजालिंचेर तांचो भावार्त बशिल्लो. पळोवपाक हे भिक्खू कशे . पुणून भितरल्यान ते गुह्य समाजी आशिल्ले. तंत्रमार्गांत प्रज्ञा आनी - साध्य आनी साधन – अशीं दोन आंगां आशिल्लीं. कांय बुदवंत मनशेक 'प्रज्ञा', दादले मनशाक 'उपाय' आनी सोन्याक 'अमृत' लागले. धारणी आनी पुजा चलोवन महायानान निर्वाणमार्ग पयलींच ल्लो. तंत्रयानान तो 'कांय-न्हय-सो' करून उडयलो. म्हूण ह्या 'सहजयान' हेंवूय एक नांव पडलें.

व्या शतमाना पसून बाराव्या शतमाना मेरेनच्या काळांत भारतांतले चडशे सहजयानी जाल्ले. ते भूलविद्येच्या आधारान लोकांक ताले. तरांतरांचे चमत्कार करून लोकांक भुलयताले. म्हूण लोकांचेर कूय बशिल्लो. हो धेंक तांणी तरांतरांच्या उपायांनी वाडयल्लो. कोणूय आयलो जाल्यार कच्च करून ते ताच्या आंगार धांवन वताले, फाटल्यान आयलो जाल्यार ताचेर गुंडे मोखून ताका धांवडावन ले. तितले तितले लोक तांचे फाटल्यान वताले.

लजी म्हणटात, बुद्धमत्त हे अवनतीक पावलां त्याच वेळार जिस्त ान ह्या देशाचेर घुरी घालून आयले. येनाफुडें तांणी ब्राह्मणांचीं देवळां तशीं बौद्धांचींय लुटलीं. ब्राह्मणांच्या देवांच्यो मुर्ती फोडल्यो तश्यो यो आनी बोधिसत्त्वांच्योय फोडल्यो. कांय मुर्ती चमत्कार करपी म्हूण पाविल्ल्यो, त्योय फोडल्यो. खंयचेच मुर्तीनं कसलोच चमत्कार . तांत्रीक लोक मंत्र म्हणीत रावले. बळी दीत रावले, पुरश्चरण करीत आनी मुसलमान एक एक देवूळ मातये भरवण करीत गेले. एकेय तांचे ल्हंवेक लेगीत बादा हाडली ना.

व्या शतमानांत पुराय उत्तर भारत तुर्की लोकांच्या हातांत गेल्लो. तल्या पाल वंशी राजान आपणाल्या राज्याची राखण करपा खातीर रीक एक व्हड तांत्रीक विहार बांदून घेतिल्लो. मुहम्मद बिन बख्तियारान देडशें घोडेस्वार धाडून तो आपणा हातांत घेतलो. नालंदांत तारा तांत्रीक देवतेचें एक देवूळ आशिल्लें. आकांताच्यो शक्ती आशिल्ली म्हूण तिची नामना आशिल्ली. बख्तियारान हे देवतेचे कुडके कुडके चोंय दिकांनी मोखून मारले. नालंदांतल्या आनी विक्रमशीलेंतल्या चांनी भिक्खुंच्यो गोमट्यो कचाकच कातरून उडयल्यो. सगळे ग्रंथ वन तांचो गोबोर केलो. मंत्र तंत्र जादू चमत्कार सगळें फट – मुसलमानी दे मुखार एकाय ब्राह्मणी वा बौद्ध देवाचें शाणेपण चलना हाची बारीक ा नेणार लोकांक खोलायेन जाणवीक जाली. इतले दीस आमकां कांनी फटयले अशें तांकां दिसपाक लागलें आनी लोकांचो भ्रम निवळ्ळो. र्नी बौद्ध विहार मोडिल्ले तशीं ब्राह्मणांचीं देवळांय मोडिल्लीं. च्यो गोमट्यो कातरिल्ल्यो तश्यो ब्राह्मणांच्योय कातरिल्ल्यो. पुणून, ा उरले. बौद्ध ना जाले. अशें कित्याक लागून जालें ? राहुलजी जाप – ब्राह्मण समाजांतल्यान वेगळे सरूंक नाशिल्ले. ते समाजांतूच ले. बौद्ध समाजा पसून वेगळे सरून विहारांत वचून रावताले. ब्राह्मणांक उडोवप सोंपें नाशिल्लें. भिक्खूंक मारप सामकें सोपें आशिल्लें. तांकां वयल्यान वळखूं येतालें. ब्राह्मणां मजगतीं तंत्रमार्गी कोण नाशिल्ले हय. आशिल्ले. पुणून सगळेच ब्राह्मण तंत्रमार्गी नाशिल्ले. बौद्ध सगळेच तंत्रमार्गी जाल्ले. ब्राह्मणांची प्रतिष्ठा तांगेले उजू चलणुकेचेर आधारून आशिल्ली. बौद्धांचें सगळेंच तंत्र-मंत्रांचेर निंबून उरिल्लें. तांच्यांत उजू चलणुकेचो कोणूच उरूंक नाशिल्लो.

मुखार ब्राह्मणांनी आपणाल्या देवळांचो जीर्णोद्धार करचो थारायलो तेन्ना लोकांनी तांकां पोशे भरु-भरून पयसो दिलो. बौद्ध पयशे मागपाक लागले तेन्ना कोणेंच तांकां पानदुडू लेगीत दिलो ना. ब्राह्मणांचीं देवळां नव्यान उबीं जालीं. बौद्धांचो एकूय विहार परतो वयर सरलो ना. ते पत साप होगडावन बशिल्ले. तांकां कोणाचोच आधार मेळ्ळो ना. नालंदा, उडंतपुरी, जेतवना सारकेल्या थळांचे बाराव्या शतमाना उपरांतच्या काळांत फकत अवशेषूच उरले.

बौद्धांची हे भाशेन दानाधिस्पट जाली तेन्ना कांय बौद्ध नेपाळांत पळून गेले. कांय तिबेटांत गेले. उरिल्ल्यांतले कांय जाण आपणाल्या घरा परतले. मुसलमान वेगळे, हिन्दू वेगळे तशे बौद्ध वेगळे आनी हिन्दू वेगळे नाशिल्ले. एक भाव हिन्दू जाल्यार दुसरो बौद्ध अशें आशिल्लें. हाका लागून जे हिन्दू आशिल्ले ते हिन्दुंच्या गोपांत गेले आनी बाकिचे – चडशे सकयले जातींतले – मुसलमान जाले.

बुद्धमत्त ताचे जल्मभुंयेंतलें ना जालें तें हे भाशेन खासा बौद्धांनीच तें ना केल्लें.

## योगदान

बुद्ध-मत्त ना जालें खरें. पुणून खंयचें ना जालें ? ताचे जल्मभुंयेंतलें, भारतांतलें ना जालें. भारता भायर तें चोंय दिकांनी पातळत गेलां. वाडत गेलां. जंय जंय पावलां थंयच्या लोकांक प्रभावीत करीत गेलां आनी आपुणूय तांचे पसून प्रभावीत जायत रावलां. श्रीलंकेंत तें आपणालें स्थवीरवादी रूप घेवन गेल्लें. थंयच्यान तें म्यामाराक गेलें. म्यामाराकसून तें सियामाक गेलें. तिनूय देशांनी तागेलें स्थवीरवादी रूप आयजूय थंयच्या थळाव्या संस्कारांक धरून तरतरत आशिल्लें पळोवंक मेळटा. चीन देशांत ताचें महायानी रूप गेल्लें. थंय कोन्फूत्सू आनी ताओ संस्कारांत वाडिल्ले लोक ताका मेळ्ळे. तांकां ताणें प्रभावीत केले आनी आपुणूय तांचे पसून प्रभावीत जायत रावलें. चीन देशाचे भुंयेंत बुद्ध-मत्ताचीं पाळांमुळां खोल बरीं रिगिल्लीं. आयजूय – माओचे क्रान्ती उपरान्तूय – पळोवंक मेळटात. थंयच्यान तें कोरियाक गेलें. थंयूय तशेंच थीर जालें, खोल गेलें. कोरियांतल्यान जपानांत गेलें. थंय ताका शिन्तो मत्ताच्या संस्कारांत वाडिल्ले लोक मेळ्ळे. तांकां प्रभावीत करीत रावलें, आपुणूय तांचे पसून प्रभावीत जायत रावलें. हेर खंयचेय कडलें तें घडये ना जायत. पुणून जपानांतल्यान केन्नाच ना जावपाचें ना, इतलें तें जपानी रगता कडेन एकरूप जालां.

तें तिबेट, नेपाळ, सिक्कीम, भूतान ह्या वाटारांनीय गेलां. थंयच्या तंत्रमार्गी लोकांकडेन ताचो संबंद आयला. ताणें तंत्रमार्गाक प्रभावीत केला. आपुणूय ताचे पसून प्रभावीत जालां.

बुद्धमत्त ताचे जल्मभुंयेंत बंदिस्त केन्नाच उरूंक नाशिल्लें. 'चडांत चड लोकांच्या बऱ्या खातीर, चडांत चड लोकांच्या सुखा खातीर, मनशां बरोबर देवांच्याय बऱ्या भल्या खातीर, सुरवातेक भलें करपी, मदीं बरें भलें करपी आनी अंतीं भलें करपी' बुद्धाचें धर्मचक्र ऋषिपत्तनांतल्या ताच्या पयल्याच उपदेसा पसून जें चलपाक लागिल्लें तें एका सारकें, पंचवीस शतमानां जालीं तरूय, चलत रावलां. आयजूय तें वेगळे वेगळे कडेन चलत आसा. ताच्या चलपांत खंयच खंड पडूंक ना. सगळेकडल्या लोकांचें जिवीत शिरवंत करीत तें सगळ्यांक संस्कृतायेच्या वयल्या पांवड्यार घेवन गेलां.

मागीर, आपणाले जल्मभुंयेंतूच तें अपेशी कित्याक जातलें ? भारतांतलें तें ना जालें अशें आमी म्हणटात तें एकाच अर्थान – ताच्याच काळांतलें जैनमत्त जशें जैनमत्त म्हूण खेरीत रुपान आयजय उरलां तशें बुद्धमत्त

खेरीत रुपान उरूंक पावलें ना ह्याच एका अर्थान. पुणून हेर कडेन ताणें जें केलां तें ताणें हांगाय केलां. हांगासरले श्रमण-ब्राह्मण परंपरेक ताणें खूब म्हळ्यार खुबूच प्रभावीत केल्या. आयज जाका आमी हिन्दू धर्म ह्या नांवान वळखतात ताका हिन्दू धर्म हें नांव उपरांतच्या काळांत अरबांनी दिल्लें आसूं, ताका जें रूप मेळ्ळां तें मात बुद्धमत्तानूच ताका दिलां. बुद्धा आदलो हिन्दू धर्म आनी बुद्धा उपरांतचो हिन्दू धर्म तर्जून पळोवचो. म्हणटकूच, बुद्धान हिन्दू धर्माक कितें दिलां ताचो अदमास येतलो. हिन्दू धर्मा वयलो बुद्धाचो प्रभाव पुसून उडोवचो. वेदीक कर्मकांडां आनी अवेदीक भुतांखेतां, घाडी भगत, मंत्र तंत्र असलीं पिशेपणां सोडून भितर कांयच उरपाचें ना, मेळपाचें ना. हिन्दूधर्म खांकनवाळ जाल्लो दिश्टी पडटलो.

हिन्दू धर्माचें सगळ्यांत पोरणें, सगळ्यांत म्हत्वाचें धर्म-पुस्तक – वेद. वेदांचेर बुद्धाचो प्रभाव दिश्टी पडना. वेदां उपरांत येतात उपनिषदां. उपनिषदांतलें एक म्हत्वाचें उपनिषद म्हळ्यार कठोपनिषद. तातूंत एक कथा आयल्या –

नचिकेता यमागेर पावला. तो यमाक प्रस्न विचारता, 'मनीस मेले उपरांत आसता अशें कांय जाण म्हणटात. कांय जाण तो नासता म्हणटात. खरें कितें तें म्हाका समजावन सांग.' यम म्हणटा, 'हो प्रस्न तूं म्हाका विचारूं नाका. दुसरो कसलोय विचार. ह्या प्रस्ना बदला हांव तुका भांगर-रुपें दितां, हती घोडे, पयशे, भूंय दितां. नातरां पणटुरां दितां. खूब व्हडलें आयुष्य दितां. जाय तितले दीस तूं हें सगळें भोग. भोगीत राव.' नचिकेता म्हणटा, 'हे भोग सदां भोगूंक मेळटले व्हय? जे इन्द्रियांचें तेज ना करून उडयतात ते भोग भोगपांत आयुश्य खर्चूं येता व्हय? असलें सगळें घेवन हांव कितें करतलों? दवर तें तुजेच कडेन' – श्वोभावा मर्त्यस्य यदंतकैतत्। सर्वेन्दियाणां जरयन्ति तेज: (कठ. १.४.२३) नचिकेताचे हे जापेंत उक्ताडा आयला तो बुद्धाचो 'सर्वदु:खम् सर्वमनित्यम्' हो विचार. बुद्धा आदीं हो विचार हे भुंयेर उदेवंक नाशिल्लो. तेच भाशेन, मोक्ष जोडपा खातीर मनशान घरदार सोडूंक जाय, भुरगेबाळांची, सत्ये-संपत्तेची, मानाभौमानाची वान्सा सोडून भिक्षेचेर जियेवंक जाय – 'ते ह स्म पुत्रैषणायाश्च, वित्तेष्णायाश्च, लोकैषणायाश्च व्युत्थाद अथ भिक्षाचर्य जरन्ति' (बृहद. ४.४.२२) हो विचारूय उपनिषदांनी बुद्धा कडल्यान घेतला म्हणूंक जाय. बरे करणेक बरें आनी वायट करणेक वायट फळ मेळूंक जाय हो बुद्धाच्या आचरण-शास्त्रांतलो मुळावो सिद्धांत बृहदारण्यकाच्या 'पुण्यो वै पुण्येन कर्मणा भवति, पाप: पापनेति' ह्या विचारांत उक्ताडा आयला. वेदीक परंपरेंत हो विचार नाशिल्लो. संतत, संपत, आयुष्य मेळचें म्हूण यज्ञांत पशुहत्या करप हो धर्म न्हय, भायल्या कर्मकांडां परस भितरलें जागरुकपण म्हत्वाचें ही उपनिषदांचीं मत्तां बुद्धानूच प्रभावीत केल्लीं मत्तां. हांगा आमच्यांनी एक दुबाव उक्तावन दाखोवं येता. 'बुद्धान उपनिषदां प्रभावीत केल्यांत अशें कित्या वयल्यान तुमी म्हणशात? उपनिषदांनीच बुद्धाचीं मत्तां प्रभावीत केल्लीं आसूं येतात.' उपनिषदां बुद्धा आदलीं आशिल्लीं जाल्यार ह्या दुबावाक कारण आसा, अशें म्हणूं येतालें. पुणून, धर्मानन्द कोसंबी म्हणटात, – फकत धर्मानन्दूच न्हय, दुसरे जायते जाणकार म्हणटात – बुद्ध उपनिषदां उपरांतचो म्हणपाचो कांय जाणांचो जो समज आसा तोच मुदलांत चुकला. खंय चुकला? तर खंय 'गुणाख्य शांख्यायन बुद्धाच्याच काळांतलो आशिल्लो म्हणपाचें सगळ्यांनी एका मत्तान मान्य केलां आनी ताच्या गुरुचो गुरू उद्दालक आरुणी हो जनक राजाचे मुस्तींतलो आशिल्लो म्हणपाचेंय सगळ्यांनी मान्य केलां. हाचे वयल्यान जनक बुद्धा पसून दोन पिगळ्यां आदलो थरता. आनी शतपथ-ब्राह्मणांत आनी बृहद्कारण्यक उपनिषदांत जी गुरुपरंपरा वर्णोवन सांगल्या तिचे वयल्यान संजीवीपुत्र हो उद्दालका पसून पांचवे पिळगेंतलो ऋषी थरता. हाचो अथे बुद्धा उपरांत तीन पिळग्यांनी शतपथ ब्राह्मण आनी बृहदारण्यक उपनिषद हांचो जल्म जाला असो जाता. कांय जाणकार उपनिषदांचो काळ हो ख्रिस्ता आदल्या सव्या शतमाना पसून उपरांतच्या दुसऱ्या शतमाना मेरेनचो मानता सव्या शतमाना आदल्या काळांतलें पोरण्यांतलें पोरणें लेगीत खंयचेंच उपनि आयजवेर मेळूंक ना अशें म्हणटात. उपनिषदांचेर बुद्धाचो प्रभाव आस अशें म्हळें म्हूण उपनिषदांच्या ऋषिंचो अवमान जायना. उपनिषदां खऱ्यांनी बुद्धा आदलीं आशिल्लीं जाल्यार तांचे कडल्यान घेवपा सारकें घेवप बुद्ध केन्नाच अनमनचो नाशिल्लो. 'जिवीत दुख्खान भरलां; तें ना करपा ईश्वराक मानूंक जाय अशें ना' हो सांख्य-मत्ताचो विचार घेवपाक कु निखालूस अनमनूंक ना.

उपनिषदां भाशेन भगव्गीतेचेरूय बुद्धाचो प्रभाव पळोवंक मेळटा. गी महाभारतांत आयल्या. आनी लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार ये व्हडल्या ह्या महाकाव्याचो बौद्ध बरपावळींत खंयच उल्लेख मेळना. हा अर्थ महाभारत ज्या रुपान आयज आमचे मुखार आसा तें रूप ताका बु उपरांत मेळ्ळां, असोच करचो पडटा. मागीर, बुद्धाचो प्रभाव महाभारता दिश्टी पडलो जाल्यार अजाप कसलें? उद्द्योगपर्वांत एक श्लोक आयला

अक्रोधेन जयेत क्रोधम् असाधुं साधुना जयेत।

जयेत कदर्यम दानेन जयेत सत्येन चानृतम्॥

ह्या श्लोकाची सारकावणी 'धम्मपदां'तले एके गाथे कडेन करूंया –

अक्कोधेन जिने कोधं असाधुं साधुना जिने।

जिने कदरियं दानेन सच्चेन अलिकवादिनम्॥

कितें दिसून येता? महाभारतांतलो श्लोक धम्मपदांतले गाथेचो अणक आसूंक जाय, अशें दिसना व्हय? अणकारूच तो. महाभारतांत अस बुद्ध-वचनां कितलेशेच कडेन अणकारून आयिल्लीं पळोवंक मेळटलीं. गी सगळ्यांत चड मेळटलीं. कांय कडेन गीता बद्द बुद्धा भाशेनूच उलय उतरां लेगीत बुद्ध वापरतालो तींच वापरता. 'ज्या तीन गुणां पसून कु जल्माक येतात ते गूण उपून मनीस मुखार गेलो म्हणटकूच तो जल्म, मर म्हातारपण हांच्या दुख्खांतल्यान मेकळो जावन अमृत जोडटा' (१४.२ म्हूण सांगता आसतना गीता 'जन्म मृत्यु जरा दु:खै विमुक्त अमृतश्नु हीं बुद्धाच्या तोंडांत सोबतलीं आशिल्लीं असलींच उतरां वापरता. बौ परिभाशा कळ्ळे बगर ह्या उतरांचो अर्थ सारको कळपाचो ना. आनी बुद्धाच योगदानाचोय अदमास येवचो ना. बुद्धा आदल्या काळांत कोणेंच ह्या देश बायलांक, वैश्यांक आनी सुदरांक मोक्षाचो अधिकार दिवंक नाशिल बुद्धानूच सगळ्यांत पयलीं तो दिला. बुद्धाचीच देख घेवन गीतेनूय आ 'स्त्रियो वैश्यास्तथा शुद्रास्तेऽचि यान्ति पराम् गतिम्' (९.३२) तो दि उडयला.

बुद्धाच्या व्यक्तित्वाचें, ताच्या विचारांचें, ताचे साधनेचें आनी ताचे दे स्पस्ट बरें रूप गीतेंत पळोवचें आसत जाल्यार तिच्या दुसऱ्या अध्यायां ५४ पसून ७२ मेरेनचे निमाणे एकोणीस श्लोक नियाळून पळोवचे. 'बु थीर दवरून करण्यो कर' म्हणपाचें श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता तेन्ना अ ताका 'थीर बुद्दिचो मनीस कसो आसता – तो कसो उलयता, क बसता, कसो चलता' काय म्हूण विचारता. आनी श्रीकृण ताच्या दोळ मुखार एक जिवी तट्टटीत मूर्त उबी करता, एक प्रतिमा दवरता आ म्हणटा –

सगळ्यो इत्सा, सगळ्यो वान्सा सोडून आपणा भितरूच धादोशी राविल्ल दुख्खान उबगना, सुखान भुल्लुसून वचना असलो, ओड, भय, ति हांचे पेल्यान गेल्लो; बरें जाल्यार भुरकुटना, वायट जाल्यार पिंरजळ कित्यांतूच आपणाक घुसपावन घेना असलो तो आसता.'

बद्द बुद्धाचेंच चित्र ताचे मुखार दवरता. बुद्ध सारको असोच आशिल्ल थीर बुद्दिचो. स्थितप्रज्ञ. इन्द्रियां सभावान मस्तीं, आडांगी; तीं मनशा खंय ओडून व्हरतीत, सांगूं येना; तांकां सगळे वसल्यान आंवळून धर जाय; व्रतां, उपास बी करून तीं विशयांतल्यान फाटीं सरतलीं म्हणप

रेप ना, तांची ओडूच मनांतली हुमटावन काडूंक जाय' हें बेस बरें
णा गल्लो. ओड हुमटावन कशी काडची हें समजावन सांगता आसतना
कृ म्हणटा, एक गजाल लक्षांत दवर –

ध्यायतो विषयान्पुंस: संगस्तेषूपजायते।
त्सङ्गात्सजायते काम: कामात्क्रोधोभिजायते॥
क्रोधाद्भवति संमोह: संमोहात्स्मृतिविभ्रम :।
स्मृतिभ्रंशाद् बुद्धिनाशो बुद्धिनाशात्प्रणश्यति॥

'विशयां फाटल्यान मन गेलें म्हणटकूच मनशाक विशयांची ओड
र्गात ओर्डीतल्यान विशय भोगपाची इत्सा जागी जाता; इत्सेक आडमेळ
कूच तिडक मारता; तिडकीन मन गदळटा. मन गदळटकूच तकली थाऱ्यार
ना ती घुंवता. तकली घुंवतकूच सुद्द ना जाता आनी सुद्द ना जाली
कूच मनशाचो घात जाता. ताचें नाशें जाता.'

स्मिं सति इदं होति' – तें आसा म्हूण हें आसा. हें ना जाल्लें जाय
र जाल्यार तें ना करूंक जाय. 'इदं असति इदं न होति' हें समजावपी
त्य समुत्पादां'ची तरा ही. खाशेली बुद्धाची. बुद्धा आदीं कोणेंच चलोवंक
शिली. गीते आदल्या खंयच्याच हिन्दू ग्रंथांत येवंक नाशिल्ली.

ना निमाणें म्हणटा, सगळ्यो वान्सा सोडून मनीस वावरूंक लागतकूच
गांत पयलीं ताच्यांतलें 'हांव' आनी 'म्हजें' ना जातलें. तो नि:स्पृह
लो. निर्भय, निरहंकारी जातलो. तोच मागीर उपाट शान्त जावंक पावतलो.
पाट शान्त' अवस्तेक गीतेन 'ब्राह्मी दशा' म्हळ्या. ही 'दशा' जोडली
कूच मनीस निमाण्या खिणा मेरेन हेच दशेंत उरता आनी अंतीं
-निर्वाण' जोडटा, अशें म्हळां. 'ब्रह्मनिर्वाण' हें उतरूय गीते आदल्या
या खंयच्याच ग्रंथांत आयिल्लें पळोवंक मेळना. तें बुद्ध परंपरेंतलें,
बुद्धान चलणुकेंत हाडिल्लें उतर.

ान करपाची चाल वेदीक परंपरेंत आशिल्ली. पुणून 'चार ध्यानां'
परेंत नाशिल्लीं. तीं बुद्धान हे परंपरेक दिल्यांत. 'ब्रह्मविहारा'चीय
ना हे परंपरेंत नाशिल्ली. बुद्धाक लागुनूच ती योगसुत्रांत येवंक पावल्या.
द्धा कडल्यान वेदीक परंपरेन खूब घेतलां. हिन्दू तत्त्वज्ञानाच्या खंयच्या
न संवसारांतल्या बुदवंताचें लक्ष ओडून घेतलां ? अद्वैतवादान म्हणपाचें
य सांगतलो. शंकराचार्या आदीं हो विचार हिन्दू तत्त्वज्ञानांत नाशिल्लो.
चार्यान तो गौडपादाचार्या कडल्यान घेतला. गौडपादाचार्याचेर महायानी
नागार्जुनाचो प्रभाव पडला. वेदीक आनी बौद्ध दोनूय परंपरांचो समन्वय
न हाडपाच्या हावेसान गौडपादाचार्यान 'कारिका' बरयल्यो. कारिका
य नागार्जुनानूच सुरू केल्या.

द्धाचे देखीन शंकराचार्यान हिन्दू परंपरेंत कितल्योश्यो नव्यो चाली
केल्यो. बुद्धाचो 'संघ' पळोवन ताणें आपणाले मठ आनी पिठां सुरू
. आनी 'भिक्खुं'ची देख दोळ्यां मुखार दवरून ताणें आपणाले 'संन्याशी'
र केले. बौद्धांनी लुम्बिनी, बोधिगया, सारनाथ, कुशीनारा सारकेल्या
त्र' थळांची यात्रा करपाचो नेम चलयल्लो. तो पळोवन शंकराचार्यान
क त्रिस्थळीची (प्रयाग, काशी, गयेची), हिमालयांतल्या जम्नोत्री, गंगोत्री,
र, बद्री आनी द्वारका, जगन्नाथपुरी, जोशीमठ आनी रामेश्वर ह्या चार
ची यात्रा करपाचो नेम घालून दिलो.

ंकराचार्याक ताच्या काळांतले लोक बेश्टे 'प्रच्छन्न बौद्ध' (भितरल्यान
) म्हणी नाशिल्ले. बौद्ध विचार कातरून काडपाक तो बौद्ध विचार
न पियेल्लो. विरोधी भक्तीन बौद्ध जाल्लो.

ायच्या हिन्दू धर्मान वेदीक परंपरेकडल्यान कितलें आनी कितें घेतलां
बौद्ध परंपरेंतल्यान कितें आनी कितलें घेतलां हें तागडेच्या दोनूय
दाल्यांत घालून तर्जून पळोवपाक बसले जाल्यार बौद्ध परंपरेंतलें
घेतिल्ल्याचेंच दालें जड जातलें.

हिन्दू धर्मान बुद्ध परंपरे कडल्यान सगळ्यांत व्हडली आनी सगळ्यांत म्हत्वाची खंयची गजाल घेतिल्ली आसत जाल्यार ती मुर्ति पुजेचीच म्हणूंक जाय. हिन्दू धर्मांत मुर्ति पूजा नाशिल्ली. बौद्धां कडल्यान ताणें ती घेतल्या. बौद्धांच्याच प्रभावान हिन्दूंनी आपणालीं पुराणां रचलीं. बुद्धाच्यो मुर्ती पळोवन पुराणांतले सगळे हिन्दू देव पुराणांतल्यान भायर सरले आनी पाशाणांचीं रुपां घेवन देवळांनी वचून बसले. मुर्ती आनी देवळां बगर हिन्दू धर्म देड दोन हजार वर्सां चल्ला, हिन्दू धर्माक मुर्तींची आनी देवळांची निखालूस गरज ना, अशें कितलेंय आड्डून हिन्दूंक सांगात, खंयचोच हिन्दू आयज तें मानून घेवपाचो ना. मुर्ती बगर आनी देवळां बगर हिन्दू धर्म अजुनूय चलूं येता म्हणपाचें समजावन सांगात. तो कसोच समजावन घेवपाचो ना. मुर्ती आनी देवळां हीं हिन्दू धर्माक घट्ट दसून राविल्लीं ताचीं दोन आंगां बुद्ध धर्मानूच ताका दिल्यांत.

पुणून, ह्या सगळ्या योगदानां भायर बुद्धाचें आनीक एक आगळें वेगळें योगदान आसा. तें खुब्ब म्हळ्यार खुबूच म्हत्वाचें –

बुद्ध जल्माक आयिल्लो श्रमण ब्राह्मण परंपरेंत. दोनूय परंपरा एकिमेकीं पसून कांय अंतरा वयल्यान चलत आयिल्ल्यो आसल्यो तरूय मुदलांत दोनूय एकेच जातिच्यो आशिल्ल्यो. दोनूय आत्मकेन्द्रीत आशिल्ल्यो. 'तू तो राम सुमर, जग मरवा दे' ह्या भावार्तान चलत राविल्ल्यो. एक परंपरा खावन, पियेवन, भोगांत गुल्ल रावन तातुंतूच सूख मानपी आशिल्ली. तर दुसरी, उपास-तपास, व्रतां वैकल्यां करून कूड दंडणावपी आशिल्ली. एके वाटेन समाजांत रावन समाजाचें कांयच लागनाशिल्ले 'सुखी' आनी 'भोगी' लोक ताका दिश्टी पडटाले; तर दुसरे वाटेन, समाजाचीं दुख्खां पळोवन उबगल्ले आनी 'कितेंय करात... कांयच जावपाचें ना' अशें मानून मोक्ष जोडपा खातीर रानांनी वचून राविल्ले 'तपस्वी'य दिश्टी पडटाले. तो पयले परंपरेंतल्या लोकांक सांगपाक लागलो, 'भावांनो, भोंवतणी इतलें दुख्ख पातळ्ळेलें आसतना तुमी खावन जेवन सुखी जावंक सोदतात हें सोबता व्हय तुमकां ?' दुसरे परंपरेंतल्या लोकांक सांगपाक लागलो, 'भावांनो, उदक आटिल्ले तळयेंतलीं नुस्तीं फडफडटात तशे तुमचे भोंवतणचे लोकूय फडफडटात ते तुमी पळेतात. तरी आसतना तुमी आपणालेच सुटकेचो (मोक्षाचो) हुस्को घेवन बसल्यात हें सोबता व्हय तुमकां ?' आनी दोगांकूय सांगतालो, 'ह्यो दोनूय वाटो उणाक, गांवढळ, अनार्य, संस्कारी मनशाक सोबनात असल्यो. दोनूय सोडून दिवंक जाय. म्हजे कडेन एक नवी वाट आसा – जागरुकतायेन आपणाल्या बऱ्या भल्या वांगडा लोकांचेंय बरें भलें करीत रावपाची – समा नदर, समा संकल्प, समा वाचा, समा करणी, समा जोड, समा यत्न, समा जागरुकताय, समा ध्यान ह्या आठ आंगांकडेन लक्ष दिवन चलपाची.

म्हळ्यार, तो जे श्रमण ब्राह्मण परंपरेंत जल्माक आयिल्लो ते परंपरेकूच एक नवी दिका दाखोवपाचो वावर ताणें केल्लो. समाजांत रावन आपणाक कित्यांतूच घुसपावन घेनासतना समाज बदलपाच्या, ताका वयर काडपाच्या, शाणो आनी प्रज्ञावंत करपाच्या तागेल्या ह्या वावराक लागुनूच हिन्दू धर्माक एक नवें रूप मेळूंक पावलां.

एक खरें, हिन्दू धर्मान हें जें नवें रूप घेतलें तें बुद्धाक घेतिल्लें जाय आशिल्लें तेंच घेतलें अशें म्हणूंक येना. पुणून, खासा बुद्ध धर्मान तरी बुद्धाक जाय आशिल्लें रूप खंय घेतलां ?

* * *

*(सोंपता)*

# दिवो

सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

*खंयच्या तरी कोनशाक*
*दिवो एक मिणमिणटा*
*वात आपली पालवत म्हण*
*सामको तो खर्शेता.*

*रावता तो कोणतरी*
*एक दीस येतलो*
*जळतले आपले वातीर*
*चूड पेटोवन वतलो.*

*पेट्टी चूड घेवन तो*
*वतलो काळोख कातरीत*
*काळखांत बुडिल्ले धतरिर*
*किर्णां उजवाडाचीं फांकीत.*

*दिव्या म्हऱ्यांत येवंक ना कोण*
*आजून लेगीत चूड पेटोवंक.*
*दिवो धडपडटा कशीय तरी*
*पेट्टी वात सांबाळूंक.*

# गर्भ

परेश नरेंद्र कामत

*कोणें जायतशें खेळयलें मन*
*आनी सोंसता कोण*
*कुडिच्यो वेणो ?*

*देण्या-घेण्याची रे*
*मागता जाप*
*कुसव्यांतलो गर्भ मोनो...*

# घुरमटमार

आनंद वर्टी

*धुंवर भरला हवेंत सामको*
*मेकळो स्वास घेवूं कसो*
*विटकळलेल्या रसायनांनी*
*उदक विखारी पिवूं कसो*

*उणें सर्दीच मोल पैशाचें*
*म्हारगायेंत जियेवं कसो*
*पिळटा कान बळिश्ट जो तो*
*सुण्यासमान वागूं कसो*

*रीतरिवाज हुबले वाऱ्यार*
*लज स्वतःची धांपूं कसो*
*संस्कारांची परंपरेच्या*
*नाळ मोलादीक कापूं कसो*

*फटिंगपणाचें जातना जैत*
*दिल्लें उतर पाळूं कसो*
*घेवन येतना खऱ्याचें सोंग*
*फट मुखार टाळूं कसो*

*व्हरता वाडयत हांव सदां जी*
*जायरातीक ते भुलूं कसो*
*घुरयो पडटना मतीर सामक्यो*
*मेकळ्या मनान फुलूं कसो*

*वेंचणुकेंत पुंड-फुडारी*
*मत म्हगेलें दिवूं कसो*
*अडटा नडटा पावला कणकणीं*
*मागूंक दाद धांवूं कसो*

*चीड निर्शेणी येतना मनांत*
*घालून मुखोटो हांसूं कसो*
*मेळटा म्हूण मानमरातब*
*लाचारींत फसूं कसो*

*शरण कोणाक वचूं सांगात*
*वाट काळखाची धरूं कसो*
*म्हापुरुशांचे पांय मातयेचे*
*नमन तांकां करूं कसो.*

# उतरां

माधव बोरकार

१.
*उतरां उलयनात*
*तांकां*
*मोनेळींत फुट्टात*
*अनंत अर्थाचे आंकूर.*

२.
*दोन उतरां*
*मदलें अंतर*
*तेंच तर*
*तुजें म्हजें घर...*

३.
*दिलीं कोणें*
*उतरांक*
*अर्थाचीं देणीं ?*

*मनांत म्हज्या*
*रात दीस*
*अनहदाचीं पेणीं...*

४.
*उतरांक*
*दिकांचे फुट्टात हात*
*म्हाका*
*धायवाटांनी वेंगायतात...*

*...णी जी कांय जाणांचे नदरेन काल पयर मेरेन 'भासू'च नाशिल्ली ती आयज भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत हिन्दी, बंगाली, मराठी, तमिळ ...या गिरेस्त भासाचे पंगतीक कशी वचून बसली हो भाशेच्या समाजशास्त्राचे नदरेन एक अभ्यासाचो विशय जावन बसला. विदेशांतल्या कांय ...द्यालयांनी हो अभ्यास सुरू जाला. चार पांच दसकां कोंकणीक संघर्श करचो पडला ही भौमानाची सुवात जोडपा खातीर हें सगळ्यांनी मान्य ... ह्या संघर्शांत तिका कसल्या कसल्या कांट्या खुंट्यांच्या मार्गा वयल्यान चलचें पडलां – विरोधकांच्या कसल्या कसल्या युक्तिवादांक आनी ...हेत्वारोपांक जापो दिवच्यो पडल्यात – हे विशिंचे जे जे दस्तावेज आमच्या हाताक लागतात ते ते (हाताक लागतात तशे) 'जागां'त दिवपाचो ... यत्न चल्ला. कोंकणी भासूच न्हय म्हणपी विरोधकां मदले एक म्हालगडे अ. का. प्रियोळकार. म्हान संशोधक, म्हान भास-शास्त्री म्हूण ...मना आशिल्ली. पुण्यांतल्या 'केसरीं'त १९६२त तांगेले उजवाडा आयिल्ले दोन लेख आमकां मेळ्ळ्यात. तांतलो पयलो २४ जून १९६८च्या ... आयिल्लो — 'डॉ. कत्रे काकांच्या कात्रींत' ह्या आंकांत दिला. दुसरो, १ जुलै १९६८च्या आंकांत आयिल्लो 'पुरे झाला हा आशीवार्द' ... फुडल्या आंकांत येतलो.*

— वावुरपी संपादपी

# डॉ. कत्रे काकांच्या कात्रींत!

**प्रा. अ. का. प्रियोळकर**

...ती धर्मप्रचाराच्या दृष्टीने देशी भाषेचें महत्त्व एकेकाळीं गोमंतकांत ...ढलें, आणि त्या परिस्थितींत स्टिफन्स, क्रुवा व साहदाञ्ज यांनी ... मराठी पुराणें व ख्रिस्ताच्या वधस्तंभावरील इतर मराठी काव्यें ...; परंतु पुढे लोकांना ख्रिस्ती करण्यापेक्षा 'काळे पोर्तुगीज' ...ाकडेच सरकारने विशेष लक्ष दिल्यामुळे १६८४ सालीं फ्रांसिस्कु ...र या व्हाइसरॉयाने देशी भाषेच्या उच्चाटनाचा कायदा पुकारला! ...ा की, तीन वर्षांच्या अवधींत गोमांतकांतील लोकांनी पोर्तुगीज ... तिच्यामध्येच बोलण्याचा प्रघात पाडावा; देशी भाषेचा व्यवहारांत ... केल्यास जबर शिक्षा केली जाईल.

### ख्रिस्ती पोर्तुगीज समजूं लागले

...ी पोर्तुगीज भाषा सर्वांना शिकणें अशक्य असल्यामुळें बोली देशी ...गी) राहिली; परंतु ग्रांथिक भाषा जी मराठी तिचा अभ्यास अजिबात ...डला. सरकारचें हें नवें धोरण इतकें यशस्वी झालें की, हे देशी ... स्वतःला पुढे पोर्तुगीज समजूं लागले आणि पोर्तुगीज हीच त्यांची ... बनली! गोवा सरकारचा चीफ सेक्रेटरी कुञ्ज रिव्हार, आपल्या ...णी भाषेवरील ऐतिहासिक निबंध'' या पुस्तकांत म्हणतो की, १८५७ ...ज्या वेळीं त्याने हा निबंध लिहिला, त्या वेळीं देशी भाषेंत लिहिलेलीं ...स्ती मिशनऱ्यांचीं पुस्तकें त्यांना मिळणें कठीण झालें; कारण हीं ... वाचणें किंवा जवळ बाळगितो असें सांगणें, हें देखील देशी लोकांना ...स्पद वाटूं लागलें!

... for many individuals hide them and evn deny their ...ssion, with the feat that they may be objects of mockery ...derision and be branded as rude if perchance they ...wledge that they possess and read these monuments ...ir language.'')

### भजन-भाषा मराठीच राहिली

...ल्या परंपरागत ग्रांथिक मराठीशी हा जसा ख्रिस्ती लोकांचा संबंध ... तसा ज्यांचा संबंध तुटला असा हिंदु लोकांचाहि एक मोठा वर्ग आहे. हे हिंदु म्हणजे इंक्विझिनच्या छळाला घाबरून मंगळूर, कोचीन वगैरे दक्षिणेकडील कानडी व मल्याळी प्रदेशांत पळून गेलेले गोमांतकांतील लोक. व्यवहाराकरिता स्थानिक कानडी किंवा मल्याळी भाषेचा त्यांना आश्रय करावा लागल्याने कालांतराने त्यांचा व ग्रांथिक मराठीचा संबंध सुटला तरी ते आपली बोली भाषा जी गोमांतकी तिला अगदी बिलगून राहिले आहेत, याबद्दल त्यांचे कौतुक केले पाहिजे. तरी पण त्यांच्या पुराणकीर्तनाची, भजनाची भाषा मराठी असलेली दिसते. कोचीनच्या मुख्य देवालयाला जोडून अगदी अलीकडेपर्यंत मराठी शाळा होती असें मला कळलें. या देवालयाची जी एक संस्कृत पाठशाळा आहे, तिच्यामध्यें ज्ञानेश्वरी, एकनाथी भागवत, दासबोध, तुकारामाचा गाथा वगैरे ग्रंथ असल्याचें मला आढळतें. तेथील धर्मगुरूचा एक फार जुना 'रायस' (आज्ञापत्र) कोंकणींत उपलब्ध असल्याचें मला सांगण्यांत आलें. तो मल्याळी लिपींत होता. पाहतों तों त्याची भाषा ग्रांथिक मराठी होती. कोचीनच्या सारस्वत ब्राह्मणांची बोली साधारणतः मला कळली; परंतु तिकडील कुणबी लोकांच्या एका संस्थेने मला निमंत्रण केल्यावरून मी त्या संस्थेला भेट दिली. त्यांनी केरळ सरकारला केलेला एक अर्ज मला दाखविला, त्यांत या गोमांतकी कुणबी लोकांची संख्या केरळांत पाऊण लाख असल्याचें नमूद होतें. या लोकांची कोकणी बोली मला कळेना; कारण तिच्यामध्यें मल्याळी शब्दांचा फारच भरणा आहे.

### कानडी परकीयच

कोचीनप्रमाणे मंगळूरमध्येहि कोकणी भाषा बोलणारे पुष्कळ लोक आहेत. मी मुद्दाम तिकडेहि जाऊन आलों. त्याचाहि मूळ ग्रांथिक मराठीशी असलेला संबंध सुटलेला आहे. कानडी भाषा त्यांना स्वाभाविकच परकी वाटते. म्हणूनच स्वभाषाभिमानाने ते अलीकडे कोकणी बोलीमद्येहि काव्यरचना करतात. दक्षिण कर्नाटकांतील 'कविपुंगव' बंग्ले नारायण कामत (१८७२-१९१८) यांनी केलेलें गीतेचें कोंकणी भाषांतर नुकतेंच देवनागरींत प्रसिद्ध झालें आहे. त्याची एक प्रत, प्रकाशक श्री. आर. के. प्रभु यांच्याकडून मला भेटीदाखल मिळाली. या पुस्तकाला आरंभीं जें कविचरित्र जोडलें आहे, त्यांत मराठी भाषेमध्येहि त्यांनी काव्यरचना केल्याचें नमूद आहे.

स्टिफन्सच्या मराठी ख्रिस्तपुराणाच्या १९०७च्या चौथ्या आवृत्तीचे संपादक सालदाञ्ज हे मंगळूरचे होते, ही गोष्टहि लक्षांत ठेवण्यासारखी आहे.

### कोंकणी मराठीचेंच जुनें रूप

डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे हे मूळचे मंगळूरकडील असल्यामुळें आपल्या मराठीच्या पूर्वपरंपरेची त्यांना माहिती नाहीं. त्यांचे शिक्षण जर मिशनरी संस्थांत झालें असेल तर त्यांच्या मतांवर ख्रिस्ती मिशनऱ्यांचा परिणाम झाला असणें शक्य आहे. ख्रिस्ती लोकांना मराठीपासून दूर ठेवण्यांत मिशनऱ्यांचा मतलब हेता; कारण या भाषेंत हिंदु धर्माचें वाङ्मय आहे. त्याच्यापासून देशी ख्रिस्त्यांना त्यांना दूर ठेवायचें होतें. म्हूनच १७७६ सालीं स्टिफन्सच्या मराठी ख्रिस्तपुराणाच्या पठनाला आर्चबिशपने गोव्यांत बंदी केली होती. या मिशनऱ्यांविषयीं ग्रिअर्सन लिहितो:

''The missionaries in Goa and Mangalore... contend that Konkani is not a dialect of Marathi. Their view is, however, based on too narrow a conception of the idea connoted by the word dialect. They apparently think that a dialect is a deterioration of some other form of speech, and if such were the case the Konkani would certainly be a separate language, as would almost every dialect all over India.''

डॉ. कत्रे यांनी सुमारें पंचवीस वर्षांमागे ''The Formation of Konkani'' नांवाचा ग्रंथ लिहिला. त्याच्यामध्ये कोंकणी ही मराठीहून निराळी भाषा आहे, असें मत त्यांनी व्यक्त केलें आहे. त्यांचे आधार बहुतेक ख्रिस्ती ग्रंथच आहेत. ज्ञानेश्वरी, चोभ्यांचे उषाहरण किंवा महानुभावांचे गद्यपद्य वाङ्मय आणि मराठीच्या इतर निरनिराळ्या स्थानिक किंवा जातीय बोली यांचा जर ते काळजीपूर्वक अभ्यास करतील तर आपण हें मत प्रसिद्ध करण्यांत घाई केली असेंच त्यांना वाटेल. खुद्द गोमांतकांतील कोंकणीच्या विविध स्वरुपांचीहि त्यांना कल्पना असलेली दिसत नाहीं. पोर्तुगीजांनी सतराव्या शतकांत गोमांतकीय बोलींत जें पुष्कळ वाङ्मय निर्माण केलें आहे त्यांची स्टिफन्सचें व्याकरण (१६४०) वगळल्यास, डॉ. कत्रे यांना माहिती नसावी. हें सगळें वाङ्मय गोवा, पोर्तुगाल, फ्रान्स, रोम, जर्मनी, इंग्लंड या देशांतून मायक्रोफिल्म किंवा फोटोस्टॅट यांच्या रुपाने मी एकत्र केलें आहे. तें वाचल्यास मराठीचेंच कोंकणी हें एक जुनें स्वरूप आहे, हें सहज दिसून येतें.

### दाखविलेले भेद

कोंकणी व मराठी यातील साम्य व भेद दाखविण्याकरिता प्रत्यय-प्रक्रियेची (morphological) सहा उदाहरणें डॉ. कत्रे यांनी दिलीं आहेत. त्यांपैकीं मराठीशीं न जुळणारीं अशीं तीन आहेत:

(१) द्वितीया किंवा चतुर्थी विभक्तीचा 'क' हा प्रत्यय ग्रांथिक मराठींत जरी प्रचलित नसला तरी मराठीच्या हळबी व कामारी या बोलींमध्यें आढळतो.

(२) **'ठाउनु'** हा पंचमीचा प्रत्यय महानुभावांचे लीळाचरित्र-उत्तरार्ध (सं. नेने), पृ. ७५वर **'ठाउनि'** या स्वरुपांत तीनदा आढळेल. मी व आमच्याकडील पुष्कळ लोक **'ठाउनु'** हा पंचमीचा प्रत्यय मुळीच योजीत नाही. त्याऐवजी **'साकून'** असा प्रत्यय योजतो. म्हणून आमची बोली कोंकणीहून भिन्न म्हणावी काय? ज्ञानेश्वर द्वितीयेचा **'ला'** प्रत्यय वापरीत नाही; रामदास तो योजतो म्हणून रामदासाची भाषा ज्ञानेश्वराच्या भाषेहून भिन्न ठरेल काय? पाठारे परभु वगैरे मुंबईच्या कांहीं जातींच्या बोलींत तृतीयेचा प्रत्यय **'जून'** (रामाने = रामाजून) असा आहे. म्हणून ही बोली मराठीपेक्षा निराळी काय? पोर्तुगीज मिशनऱ्यांनी या बोलीच्या १७७८ मध्ये रोममध्ये प्रसिद्ध झालेल्या व्याकरणाला 'ग्रामातिक मरास्त' असें त[…] दिलें आहे! कऱ्हाडाच्या बोलीमध्ये द्वितीयेचा प्रत्यय **'मानसा:'** (माणसा[…]) **'बापरिशी:'** (बापाला) असा दाखविला जातो. मग ही कऱ्हाड्यांची […] मराठी नाही, कोंकणी नव्हे; तिसरीच एक स्वतंत्र भाषा म्हणावी लाग[…]

(३) डॉ. कत्रे यांनी दिलेलें तिसरें भिन्नतेचें कारण 'खावयतां' (खाव[…]) 'पिवयतां) (पिववतों) यांतील 'य' ऐवजी मराठींत 'व' (किंवा […]) वापरतात हें होय.

क्रियापदाचें कोंकणी प्रयोजक रूप कसें असतें, हें पाहण्याकरितां परि[…] गीतेच्या कोंकणी भाषांतराचें पुस्तक मी सहज उघडलें. त्यात प[…] अध्यायातील पंधराव्या श्लोकाचें कोकणी भाषांतर पुढीलप्रमाणें आढळ[…]

पांचजन्य श्रीकृष्णान् **वाजलो,** –
देवदत्तु पार्थान।
भीकर कर्म कर्तल्ल्यान तो –
पौंड्र वाजलो भीमान॥

यांत **'वाजयलो'** याबद्दल साधें **'वाजलो'** असें प्रयोजकरूप दोनदां […] त्यावरून कविपुंगव बंग्ले नारायण कामत यांची भाषा डॉ. कत्र्यांच्या कोंक[…] निराळी म्हणावी काय?

### बोलीला स्वतंत्र भाषेचें स्थान अशक्य

डॉ. भांडारकर आपल्या भाषाशास्त्रीय व्याख्यानांत म्हणतात – '[…] हिंदुस्थानांत बोलीचे प्रकार सध्या असंख्य आहेत. कांही श[…] वैशिष्ट्यांवरून जर एखाद्या बोलीला स्वतंत्र भाषेचें स्थान द्यावयाचें […] तर, या प्रदेशांत स्वतंत्र भाषांची संख्या छपन्नावर जाईल.'' इतकें […] ते पुढे लिहितात, ''मराठीच्या बाबतींतही असाच प्रकार आहे; परंतु त्य[…] महत्त्वाच्या तपशिलांत मुख्य मराठी पासून भिन्न असलेले पांच बोली[…] आहेत.'' (''there are five dialects differing in a great n[…] important particulars from main Marathi.'') ते म्हणजे गोव[…] (तथाकथित कोंकणी), मालवणी, चित्पावनी, सालसेटी (मुंबईची […] कोंकणी) व खानदेशी अशी नामावलि त्यांनी दिली आहे.

### पिशाच्चाच्या हातीं केलीत

डॉ. भांडारकर, डॉ. ग्रियर्सन, डॉ. पां. दा. गुणे वगैरे जागतिक की[…] भाषाशास्त्रज्ञांनी कोंकणी ही मराठीचीच बोली आहे, असें मत स[…] प्रतिपादन केलें आहे. कोंकणी ही स्वतंत्र भाषा आहे, असे आपलें […] मत मांडतांना डॉ. कत्रे यांनी आपल्या या पूर्वसूरींचें कोठें चुकतें तें […] दाखविणें अवश्य होतें. तसें त्यांनी केलेलें नाहीं. तसें त्यांनी प्रथम दा[…] म्हणजे त्याच नियमांनी ज्याला जे स्वतंत्र कोंकणी भाषा म्हणतात […] छप्पन्न स्वतंत्र भाषा करून दाखवितां येतील! डॉ. कत्रे यांच्याकडे […] आहे, पण दारूगोळा नाहीं, निराळ्या शब्दांत सांगावयाचें म्हणजे भाषाश[…] तंत्र त्यांनी अवगत केलेलें आहे; परंतु कोंकणी व मराठी यांचा […] दाखविण्यास लागणारें मराठीच्या ग्रांथिक व बोली स्वरुपाचें सम्यक्[…] त्यांना नाही. सतराव्या शतकांतील कोंकणी वाङ्मय व सध्याच्या गोव[…] विविध बोलीप्रकाराचें स्वरूप त्यांना माहीत नाहीं. अशा अदृढ आ[…] आपलें हें भ्रामक मत प्रकट करून डॉ. कत्रे यांनी पिशाचांच्या […] कोलीत दिलें आहे! कांहीं चळवळे व उपद्व्यापी लोक अ[…] राजकारणाकरितां त्यांच्या या मताचा दुरुपयोग करीत आहेत. रा. काले[…] लिहितात, ''कोंकणी ही निराळी भाषा नसून मराठीचीच ती एक[…] आहे असे सांगतात. हा प्रश्न जर भाषाशास्त्रज्ञांनी सोडविण्याजोगा […] तर डॉ. कत्र्यांसारख्या विद्वानाची साक्ष आपल्याला **पुरेशी झाली** […] ते म्हणतात की, कोंकणी ही एक मराठीला व गुजरातीला जवळ अ[…]

ंत्रभाषा आहे.

डॉ भांडारकर, डॉ. ग्रियर्सन, डॉ. गुणे यांच्यासारखे जागतिक कीर्तीचे ास्त्रज्ञ कोकणी ही मराठीचीच एक बोली आहे असें निक्षून सांगत ता आपल्या मतलबाला अनुकूल असलेली डॉ. कत्रे यांची साक्ष े **झाली पाहिजे''** असें म्हणणाऱ्या क्लृप्तिमार्तंड काकांच्या ाषणबुद्धीची कल्पना कोणालाहि सहज होईल.

### अर्थासाठी रेडियो–मल्लिनाथ

आण स्वत: राजकारणी नाही, असे डॉ. कत्रे आपल्या कोंकणी परिषदेच्या ९१) अध्यक्षीय भाषणांत सांगतात; परंतु ते स्वत: जरी राजकारणी तेतरी त्या परिषदेचे उद्घाटक (कालेलकर) व स्वागताध्यक्ष (फादर न्हेस) अशा दोघा राजकारणी काकांच्या कात्रींत सांपडले गेले हे त्यांनी विसरूं नये. डॉ. कत्रे हे कोकणी कसें लिहितात, हें ाकरिता मोठ्या उत्सुकतेने त्यांच्या अध्यक्षीय भाषणाची प्रत मिळवून ली. मला खात्री आहे की या त्यांच्याच कोंकणी भाषणाचा अर्थ त्रे यांना समजून घेण्यास रेडिओवरचा एखादा मल्लिनाथच मागवावा र! कारण तें त्यांच्या इंग्रजीचें भाषांतर होतें. डॉ. कत्रे यांच्या पूर्वीचे ो परिषदेचे अध्यक्ष प्रो. आर्मांदु मिनेजिस यांचे अध्यक्षीय भाषणहि झालें! लिस्वन युनिव्हर्सिटीचे भूतपूर्व प्राध्यापक प्रा. मारियानु ज्ज हेहि एकदा कोकणी परिषदेचे (१९५२) अध्यक्ष होते. त्यांनी भाषण पोर्तुगीजींत लिहिलें. त्यांचे कोंकणी भाषांतर कोणी तरी स्टारने केलें असावें! तें वाचून तर मी थक्कच झालों! परिषद संपल्यावर च दिवशीं प्रा. साल्दाञ्ज मला भेटावयाला माझ्या घरीं आले असतां, ांत इतकीं वर्षे वास्तव्य करून तुम्ही इतकीं अशास्त्रीय व खोटीं कशीं करूं शकतां'' अशा प्रश्नाने मी त्यांचे स्वागत केलें. ते मला ोडून म्हणाले, ''कृपा करून मला जास्त छेडूं नका. भाषांतरकर्त्यानें घाण करून टाकली!'' या त्यांच्या भाषणाची कोंकणी भाषा स्वत: कळण्यास, गोव्यांत लवकर स्थापन होणाऱ्या 'विद्यापीठा'मध्ये ञ्जांना कांही वर्षे कोंकणी भाषेचा अभ्यास करावा लागेल!

### भाषण कोंकणींत लिहिलें नाहीं

ंकणी परिषदेच्या अध्यक्षपदावर आरूढ होणाऱ्या प्रकांडपंडितांना आपलें पृष्ठांचे भाषण ज्या भाषेंत स्वत: लिहिणें जमत नाहीं, ती भाषा ्या राज्यकारभाराची भाषा व शिक्षणाचें माध्यम कशी होईल? याचा विचार करील काय? १९२३ सालच्या ऑगस्ट महिन्यांत डॉ. कर यांच्याशी कोकणी-मराठी संबंधाविषयी त्यांच्या पुण्याच्या स्थानीं मी चर्चा केली होती. त्याच्या आधी त्यांचीं भाषाशास्त्रावरील ानें मी वाचलीं होतीं. कोंकणी ही मराठीची बोली आहे, हें जुनेंच यांनी या वेळीं मजपाशीं व्यक्त केलें. ''मग कांही लोक ती मराठीहून ी स्वतंत्र भाषा आहे असें म्हणतत तें कसें?'' असा प्रश्न मी त्यांना ''It is only parochial patriotism!'' असे त्यांनी हसत उत्तर

रे एक भाषापंडित गुरूवर्य डॉ. पां. दा. गुणे यांचा १९२२ साली चार-पांच महिने सांगली येथें सहवास लाभला. या विषयावर आम्ही दां बोललों. गोमांतकी बोलीसंबंधी 'विविध ज्ञानविस्तारा'करिता एक ला ते लिहिणार होते. त्याकरिता त्या वेळीं मला उपलब्ध असलेली षयावरील सर्व साधनसामग्री मी त्यांना पुरविली होती; परंतु पुढे की त्यांचा अंत झाल्यामुळें त्यांचा हा संकल्प सिद्धीस गेला नाहीं. की ही मराठीचीच एक बोली आहे असे त्यांचे मत होतें व आपल्या ास्त्रावरील ग्रंथांत तें त्यांनी यापूर्वीच मांडलेलेंहि आहे. इंग्रजींत प्रसिद्ध झालेलीं बहुतेक सगळीं भाषाशास्त्रावरील अद्ययावत पुस्तकें मी नजरेखालीं घातलीं आहेत. डॉ. भांडारकर, डॉ. ग्रियर्सन, डॉ. गुणे यांची मतें बदलण्यासारखी भाषाशास्त्राच्या मूलतत्त्वांमध्यें कांही उलथापालथ झाली आहे, असें त्यांत मला आढळलें नाहीं. तशी जाली असल्यास डॉ. कत्रे यांनी ती दाखवावी व त्यांच्या सहाय्याने डॉ. भांडारकरादि विद्वानांच्या मताचें खंडन करावें, म्हणजे मग त्यांच्या म्हणण्याचा साकल्यानें परामर्श घेणें शक्य होईल.

* * *

# नव्या अणभवविश्वाचो आविश्कार करपी कथाकाराक येवकार !

**प्रियदर्शिनी सु. तडकोडकार**

बरोवप्यान आपली कृती बरोवन सोंपयली म्हणटकच समिक्षकाचें काम सुरू जाता अशें सादारणपणान मानतात. पूण खरें तशें नासता. बरोवप्यान एखाद्री कृती सोंपयली तरी ताचे आंतरिक संवेदनशीलतेंत मुखावेल्या बरपाची प्रक्रिया अखंड चालूच आसता. समिक्षकाक आपणाल्या विवेचना खातीर आनी निश्कर्शाखातीर ते विशिश्ट साहित्यकृतिचेर आदारून रावचें पडलें जाल्यारूय ताचें कार्य ती कृती जंय सुरू जाता आनी जंय सोंपता तितले मेरेनच सीमित उरना. विशिश्ट कृती सुरू जावंचे आदींच तें सुरू जाल्लें आसता.

हाचें कारणय स्पश्ट आसा. खंयचीय रचना – मागीर ती खिणयाळी आसूं वा कालजयी आसूं – आशय-संपन्न जावपाक आपणाल्या तेंपावेल्या वातावरणाकडेन आनी काळाकडेन संबंधित आसपाक जाय. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार, ती रचना आपल्या इतिहासाकडेन संबंद दवरपी आसपाक जाय. भोंवतणची परिस्थिती आनी काळ हांकां लेखक आपणाले प्रतिभेचे उर्बेन एक वेगळेंच परिमाण दिता आनी त्या साबार गजालिंच्या आदारान वा तांचो उपेग करून ती रचना अद्वितीय अशी करता. काळ आनी परिस्थिती, मनीस आनी ताचे भोंवतणचें वातावरण हांकां ही रचना मूर्त रूप दिता. तिच्या माध्यमांतल्यान तो आपणाल्या भूतकाळाकडेन आनी भविश्यायकडेन नातें जोडटा आनी तिका व्यापक संदर्भ जोडून दिता. वर्तमानकाळांत निर्माण जाल्ली ही रचना अशे तरेन आपणाल्या फाटल्या फुडल्या दारांक मेकळी करता आनी आपणाकय इतिहासीक सुत्रांनी बांदून घेता.

मधुसूदन जोशी हांच्या 'खांवटें' ह्या कथाझेल्याचेर नदर भोंवडायतां तेन्ना वयर उकतायल्लें मत अदीक स्पश्ट जाल्याचो अणभव म्हाका येता.

'मंगल प्रकाशना'न उजवाडायिल्ल्या ह्या झेल्यांत वट्ट १६ कथा आसात. ह्या पुस्तकाक एका कथाकाराचीच म्हळ्यार, पुंडलीक नायकाची प्रस्तावना लाबल्या. ह्या झेल्यांत आयिल्ल्या कथांतल्यो कांय कथा, देखीक, 'राम नाम सत्य है', 'और', 'डंपिंग स्टेशन', 'भोम' ह्यो हांवें हाचेपयलीं 'जागा'च्या आंकांनी वाचल्यात. आनी तातुंतल्या नव्या तरेच्या अणभवविश्वाक आनी भाशेच्या तश्याच विशयांच्या वेगळेपणाक लागून तांणी म्हजें लक्षय ओडून घेतलां. ह्यो कथा जशो गांवगिऱ्या वाठारांतले अणभव आमचे मुखार दवरतात तश्यो शारांतलें जिवितय उकतें करतात. तांतूंत लेखकान आपणाले संस्कारक्षम पिरायेंत घेतिल्ले अणभव शब्दबद्द केल्यात तशेच प्रौढ पिरायेचेर वर्तमानकाळांत आपणाल्या जिविताचे प्रस्न सोडयतना घेतिल्ल्या अणभवांकय अभिव्यक्त केल्यात. देखूनच तांच्या ह्या १६ कथांनी विशयाची आनी आशयाची विविधताय दिसता. १९८८ ते १९९७ ह्या दसकांत बरयल्ल्यो ह्यो कथा लेखकाची जाण दिशिंदिशीं समृद्ध जायत आसा हाची जाणविकाय वाचप्यांक करून दिता. देखून, 'खांवटें' हो जोशींचो पयलोच झेलो आसूनय नवेनवलायेचीं बुजरेपणां तांतूंत व्हडलिंशीं दिश्टी पडनात.




'खांवटें'तली पयलीच कथा 'मुक्तताय' घेतल्यार तातुंतल्या सूक्ष्म केल्ल्या 'फार्माकोलॉजी'तल्या प्रॉसेसाच्या वर्णनान म्हाका विचार क लायलो. आपल्या व्यवसायांतल्या (नित्याच्या) रुटीन कामांतल्यान शास्त्रीय म्हायतिचो उपेग मोटे खुबीन आनी कलात्मकतायेन है बरोवप्यान केला हें जरी खरें आसलें आनी तातुंतल्यान बरोवप्याची विज्ञ (विज्ञाननिश्ठ) नजर जरी दिसता आसली जाल्यारय म्हाका अंतर्मुख तें तांतुंतल्या मीना आनी बीनाच्या अणभवान. आधुनिक जगांत मो तसोच मनीस, हांच्या जिवाकडलो खेळ आतां कितलो सहज जा ती कथा सुचयता. आनी बेब्याक निर्विकार भावनेन चिरतना लॅबा सगळ्यांचींच मनां थिजून घट्ट जाल्लीं आसतात तीच अवस्था नव्या काळांत मनशाचे बाबतींतय जावपाक सुरवात जाल्या हो मनाचे जाणविकायेंत रुजू जाता.

१९६० उपरांत कोंकणी कथा नव्या विशयांच्या सोदांत आशि तिणें मनीस जिणेविशिंची जाणविकाय आनी समजिकाय उकतायले मीना काकोडकार आनी तिचे उपरांतच्या कांय कथाकारांच्यो कथा जाणवता. शीला कोळंबकार, गजानन जोग ह्या कथा मनोविश्लेशणात्मक कथाय बरयल्ल्यो. वेगळ्या समाजाचे प्रस्न घेव गॉमिश, दामोदर मावजो, अच्युत तोटेकार आयिल्ले. पूण आतां तां वेगळ्या मळार वचून मधुसूदन जोशी हांणी मानसिक पांवड्यावेल आंतरिक वास्तवतायेक भिडपाची जाणविकाय आशिल्ली कथा सरस्पतीक दिल्या. तांच्या कथांनी अशे तरेचें आंतरिक वास्तव चि सुशिक्षित आनी शारी जिवितांतलीं विनय, विनोद हीं पात्रां येता तरेन गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी आनी शेतां-भाटां-कुळागरांनी जीव-तोड खपपी, वावर करपी रुखमा, उष्णो, बाबली हांचे सारकींय पात्रां येतात. बरोवप्यान तांचे भोंव ताणांसयत ह्या मनशांक मुखार दवरुनूच तांच्या आंतरिक स्पंदनां 'खांवटें'तल्या कांय कथांच्या आदारान घेतला.

'खांवटें' हे कथेंतलो नायक विनोद गरीब परिस्थितींतल्यानय अ

धिमक लागून उंचल्या पांवड्यावेलें शिकप घेवपाक पावलो. इतलेंच अमेरिके सारक्या प्रगत देशांत स्वताच्या कर्तृत्वान आपणाले फळ्दीक करूंक पावलो. संवसारांतलें सगळें सूख आयज ताचेमुखार बावन उबें आसा. अशे धादोशी अवस्थेंत आसुनूय जांकां लागून सार येस मेळोवंक पावलो त्या आपणाल्या गुरुजीक आनी इश्टाक मूं तो विसरलोना. आपणाली ही धादोसकाय खरेल्या अर्थान पुराय ती त्या दोगांचेय शाबासकायेन ह्या विचारानच तो मायदेशाक यो आनी तांचेमुखार उबो जाता. पूण शाबासकी पडचे बदला तांची संभावना. देशद्रोही म्हूण ताचेर दोगूय जाण किटाळ घालतात. स्तंत्र्य वगडावन बशिल्लो, भोगांफाटल्यान लागिल्लो, दोळ्यांर डां ांदून भांडवलदारांची भलावण करपी म्हूण ताका तुकलायतात. अणावेलो हो किटाळ पयस करपाची तांक नाशिल्लो विनोद आपणालें छोवन सकयल भुंयेक खिळयल्ली नदरय वयर काडूंक पावना ख गोंयचे तरणे पिळगेचेंच न्हय तर पुराय भारत देसांतल्यान ब्रेन जारी, देशांत बौद्धीक खांवटें घालपी तरणे पिळगेचें वास्तव आनी जत चित्र.

अशेंतरी आसलें तरी पुराय कथाझेल्याक ‘खांवटें’ हें नांव दिवपाफाटलो का उद्देश म्हज्या ध्यानांत येना. झेल्याचें नांव वाचतकच एक त्मक जाणविकाय दोळ्यांमुखार उबी जाता खरी पूण झेलो वाचतकच कात्मक जाणविकाय ना जावन लेखकाचे एके वेगळे तांकिचो प्रत्यय ष्टीन कथाझेल्याक दिल्लें हें नांव अन्वर्थक न्हयच अशें दिसपाक ता.

सुक्षीम भावरूप आनी ताची पराकोटीक गेल्ली विकृती अशा वेरोधी गजालिंचो अणभव लेखक भुरगेपणासावन घेत आयला काय अशें हातुंतल्या कांय कथांतल्या अणभवांनी आनी ते व्यक्त आदार जाल्ल्या कांय चित्रणांवयल्यान दिसता. आनी आतां लागून जी ज्ञानशाखा ताणें मानून घेतल्या तिका लागून कडेन पळोवपाची ताची नदर चडशी विज्ञाननिष्ठ आनी तर्कसंगत जावंक जाय अशेंय दिसले बगर रावना. ह्या वेवसायाचो लाव वेश्व विस्तारपाखातीर तेच प्रमाण ताची खोलाय वाडोवपाखातिरय .

णांतल्या अणभवांचो आनी संस्कारांचो आधार घेवन येवपी क्तसूक्त’, ‘घरपुरीस’, ‘कॉण’, ‘पाप’ सारकेल्यो कथा सदच्याच क वेगळेंच तास दिवपी कथा जाल्यात. ‘विरक्ती सूक्तां’त आपा विरक्त मनीस जितले सकसतायेन येता तितलेच सहजतायेन ’ कथेंत अध्यात्माच्या नांवाचेर चलपी भोंदुपणां, फटींगपणाचीं दून उडोवपी पात्रां आनी त्या गजालिंचेर विश्वास दवरून खरेल्या न मानपी उदय आनी शोभा येतात. आनी ह्या दोगांयचे फाटभुंयेर यांत आलतड ना जाल्यार पलतड. मर्दी हुमकळप ना’ अशें आनी ‘एकेबुवाचो आश्रम पंचायतीन उडयलो. बेस्ट उडयलें मरे’ अशें म्हणपी रॅशनलिस्ट (बुद्धीवादी) संजयच चड मर्तीत उरता. नाम सत्य है’ हे कथेंत अजयामदले गुन्यांवकारी वृत्तिचें चित्रण न कशें केलां तें पळोवपासारकें. देखीक, नाटक पळोवपाक गेल्लो टकांतल्या पात्रांच्या दर्शनान घामाघूम जाता. कित्याक, तर पयशे संवय जाल्ल्या परचेज ऑफिसराचो भ्रष्टाचार उक्ताडाक येवन चो वरिष्ठ धांवडायता आनी सांगता – ‘तुका मेळिल्ली पयली निमाणी. ती तुंवें वगडायली. तूं आमचे कंपनीक गँगरीन जाल्ले गँगरीन जाल्ल्या आंगाक एकूच उपाय आसता. तो म्हळ्यार तें तरून उडोवप.’ आपले जिणेकडेन समानताय राखपी कथानक निमाणेकडेन कांपोज गुळयो आपणावंक लायता. आमच्या समाजाक अशे तरेचे जायते गँगरीन जाल्ले अवयव आसात. पूण ते कापून उडोवपाचो उपाय मात कोणूच सोदना. गोंयच्या बदलत्या समाजाचीं स्पंदनां कोंकणी कथेंत जोशीन हाडल्यांत तीं अशे तरेन. नव्या समाजांत आदर्शवाद, कल्पनारम्यताय, भावुकता हांकां आतां सुवातच उरूंक ना. तांचेंय चित्रण कोंकणी कथेंत येवपाक आतां सुरवात जाल्या अशें ह्या झेल्याकडेन पळोवन म्हणन दिसता.

जोशींची ही कथा भोंवतणच्या समकालीन वास्तवाचें, समाजीक, राजकी, अर्थीक, धर्मीक आनी संस्कृतीक संदर्भ घेवन आयल्या. ‘भोम’, ‘खुंटो’, ‘और’ ह्यो कांय कथा सामाजिक प्रस्नासांगातान सहसंवेदनांची भावना जागोवपी म्हूण उल्लेखनीय थारतात. सामाजिक आशय व्यक्त करपी ह्यो कथा भौसाच्या मनाचें आनी थंयच्या वातावरणाचें खूब प्रभावी चित्रण करतात. जाल्यार ‘मळबूच पिनलां’, ‘पाप’ आनी ‘मार्ग’ ह्यो कथा समाजांतल्यो नितिकतायेच्यो कल्पना आनी गांवगिऱ्या वाठारांतले प्रस्न घेवन आयल्यात. ह्या कथांतलीं प्रतिकां आनी प्रतिमावळय व्हडलो आशय उक्तायतात. ‘कांता मरतकीच धव्या कपलाच्या रुखमाची अवस्था मोडिल्ल्या माडयेवरी जाल्ली. उब्या रुखाक मोडसर भंय नासता.’ अशा सूचक उतरांनी लेखक ह्या कथेंतल्या पात्रांचे मनोवस्थेचें वर्णन सूचक उतरांनी करता. परिस्थितीन लाचार जाल्ली ‘पाप’ कथेंतली साळकारीण कुकमाक आदार जाल्या आनी देशांतराक परागंदा जाल्ल्या घोवाक लागून जी जीण जगता ताका लागून समाजाचे नदरेन ती पापी थारता. तिचो पांय वांकडो पडटा, तिचे हे परिस्थितिचो गैरफायदो घेवपी मनीस समाजांत आसात म्हूण. पूण हे असहाय अवस्थेंत तिका आदार दिवपी माईय तितलीच गुन्यांवकारी थारता. ल्हानशा गांवांत असल्यो गजाली चड काळ लिपून उरनात. देखून साळकारीण बाळंत जाली ही गजाल वाऱ्या वांगडा गांवभर पातळ्ळी तशीच माईचो पांय उदकान हुलपलो हेंवूय तितलेच बेगीन गांवभर जालें. माईचे खबरेक (!) गेल्ल्यो मामी, बुज्जीण आनी वाड्यावयल्यो हेर बायलो गांवांतली खातडय उस्तूंक लागतात. आनी माईक ‘खंयच्या कर्माचां फळ कोण जाणां’ अशें शिटकावपाकय उणें करनात. ‘साळकारणीक सोडोवंक कोन गेल्लो ?’ असो प्रस्न विचारपी बुज्जीण तिचे कुडिचो भोग घेवपीच खरेलो पातकी हें सोयिस्करपणान विसरता. समाजपुरूस हो असो अन्यायी आसता खरो पूण ताचोय न्याय निवाडो करपी वेगळोच आसता आनी ताणें न्यायदानाचें आपलें काम बेस बरे रितीन करून सोंपयल्लें आसता. हें ‘‘आराडेच्या उतारार पांडग्याची गाडी उलटलीसा.. पाय नखाळ्ळोसा पांडग्याचो. चल बेगीना...’’ हीं सोनग्याचीं उतरां आनी ‘‘जा. जा बुज्जीणी. जा बग आतां. कसलां पाप गाडये पोनां आयलां तां, कसले नडीन पांडगो लंगडो जालो तां त्या परमेश्वराकच ठावूक’’ ह्या उतरांतल्यान स्पश्ट जाता.

उत्तर गोंयच्या पेडणे वाठारांत प्रचलित आशिल्ले कोंकणीचे हे मोडिचो वातावरण निर्मणेखातीर प्रभावीपणान उपेग जाल्लो दिसता. त्या गांवगिऱ्या वाठारांतलीं मनशां जिवीं तट्टटीत जावपाक तांकां वास्तवरूप दिवपाक हे मोडिचो भोवच बरे रितीन उपेग जाला.

‘मार्ग’ ही कथाय अशीच सामाजिक आशयाची कथा. भुरगें न जाल्ल्या दांपत्याची पोरणी व्यथा हे कथेंतल्यान मांडूनय वेगळे तरेन हो प्रस्न सोडोवपी कुंदाची मांय आधुनिक समाजाची प्रतिनिधी म्हूण लक्षांत उरता. आनी अशे तरेचे मनशाचे जिणेंतले केन्नाच न सुटपा सारके नाजूक प्रस्न विज्ञानाच्या आदारान आनी एकामेकांवेल्या विश्वासाच्या श्रद्धेच्या आदारान सोडोवंक येतात असो हे कथेंतल्यान येवपी आश्वासक सूर खासा बरोवप्याचो न्हय जाल्यार कोणाचो आसूं येत ? बरोवप्याचे विज्ञाननिष्ठ नदरेक आशिल्ली मनीसपणाची सुंदर देग हे कथेक एके वेगळेच उंचायेचेर व्हरता.

हांगा काळाचे नवे जाणविकाये सांगातान बदलपी बायल कोंकणी कथेंतल्यान आतां येवपाक लागल्या हाचीय नोंद मुजरत घेवंची शी दिसता.

घडये बायलां-चळवळिचो, तांचे स्वतंत्रतायेचों वा स्त्री-वादाचो परिणाम म्हूण ही बायल आयल्या आसूं येत!

आधुनिक आनी विज्ञाननिश्ठ जगाचो प्रभाव आसतनाच आपल्यो श्रद्धा, परंपरा, संस्कृती हांकांय वेंगावन तांची तपासणी करतना मनशाचें आंतरिक वास्तव प्रतीक रुपान मांडपाची प्रक्रिया ह्या झेल्यांतल्या कांय कथांनी जाल्या. देखून, जिविताक सामकारा वतना ताचेसावन विरक्त जावंक प्रोदपी आपाच्या मनाचे ताण दाखोवपाचो यत्न 'विरक्ती सूक्तां'त स्पश्टतायेन जाला खरो पूण विरक्त जावपाफाटलें गुपीत मात सुटावें जायना. 'घरपुरीसा'च्या गोजऱ्याच्या आकांतांतल्यान ह्या अंतर्मनाचें वास्तव आकारता. 'म्हाजो सोन्यासारको झील. काय करुंचा आसा ह्या नव्या घर आतां. कसलो रे घरपुरीस?' ह्या ताच्या उतरांनी ताचे श्रद्धेक गेल्ली वेर जशी स्पश्ट जायत गेल्या तशीच नशिबा मुखार सगळ्यांक हात तेंकोवचे पडटात ही सासणाची जाणविकाय देखून पर्थून नव्यान उबी जाल्ली दिसता. देखूनच ह्यो कथा आपणाल्या वेगळेपणान ह्या झेल्यांत उठून दिसतात.

साहित्याचे अभिव्यक्तींत भास ह्या माध्यमाक म्हत्वाची सुवात आसा. लेखकाच्या व्यक्तिमत्वाचे जडणघडणेक जापसालदार आशिल्ल्या संस्कारांचो तो एक भाग. जोशीच्या कथांतलीं पात्रां उलयतात ती भास लेखकाच्या वाठाराचें प्रतिनिधित्व करताच पूण निवेदकाची भासय बरोवप्याच्या संस्कारांचें प्रतिनिधित्व करता. कोंकणीच्या वेगळ्या मोडिंच्या अभिव्यक्तिंची सकस अशी तांक ती दाखयता. देखीक 'कॉणा'तल्या भुरग्यांचे संवाद (पा. ७२), 'विरक्ती सूक्तां'तलो आपा आनी इश्टाचे संवाद (पा. २९), 'पाप' मदल्या बायलांचें उलोवप (पा. ६६ आनी ६७).

हे फाटभुंयेचेर बरोवप्याच्या तंत्राविशीं बरोवपय समा थारतलें. ताच्या कथांचें कथानक व्हांवतें आसता. तेच बरोबर दर कथा एके कथेबरोबर उपकथा घेवन येता. वा केन्ना केन्ना एके घटने सांगातान आनीक कांय घटनांची सांखळ वा सांगड घेवन येता. अशे तरेच्यो देखी म्हूण 'मुक्तताय', 'अध्यात्म', 'डंपींग स्टेशन' आनी 'मास्लो' ह्यो कथा घेवं येतात.

पयलेच खेपे ह्या झेल्यांत उजवाडाक आयिली 'मास्लॉ' ही कथा तिच्या वेगळ्या विशयाक लागून जशी आवडली तशी आशयाचे आनी तंत्राचे मांडावळीक लागूनय आवडली. कथेचे सुरवेकूच जॉन आनी मेरी फॅक्टरी बंद जातकच स्कुटरीवयल्यान घरा वतनाचो प्रसंग चित्रायला. वास्तवाचें चित्रण करपी हो प्रसंग तसो सादो. कथेंत उपरान्त ह्या दोनूय पात्रांचो वा ह्या प्रसंगांचो उल्लेखय खंयच येना. दुसरो प्रसंग वखदांचे फॅक्टरींतल्या रुटीन कामाचो. आनी कामांभितर चलिल्ल्या वेगवेगळ्या घडणुकांची नोंद घेत लेखक मुखार सरता. ते उपरांत सदचे रुटीन अवस्थेक वाजेतकच जो 'चेंज' जाय आसता ताचे खातीर हे कथेंतलीं पात्रां पिकनिक वतात मातशीं मेकळीं जातात हें सुचोवपी. आनी पिकनिकेचो 'रिलेक्ड मूड' सांबाळटना, एकामेकांचीं फकाणां, तीनये मारपाच्या त्या प्रसंगा सिरियस वळण लागून कथा एके वेगळेच तरेन सोंपता. मास्लॉचें मोटिवन घेवन जाण एकलो जियेता. मास्लॉ एक सायकॉलॉजिस्ट. ताणें मनशांच्या गरजांची वर्गवारी केल्या आनी निमाणेकडेन मनशाक सेल्फ-रियलायझेशन जाय आसता हाचेर तो थांबला. मास्लॉचें सेल्फ-रियलायझेशन म्हळ्यार अध्यात्मांतली अनुभूती. ती मात कोणाकूच गांठूंक येना. जिवेशिंचें हें विदारक-नागडें सत हे कथेंतल्यान बरोवप्यान मांडलां तें संवादा रुपांत. कथेचे सुरवेकच गुंथिल्ल्या प्रसंगांत अव्याहत चलपी जीण दुसऱ्याचे जिणेकडेन समांतरताय दवरूनय निरर्थक कशी आसता हें सुचवपी तंत्र कोंकणींत पयले फावटीं हे कथेच्या निमतान हाडपाचो यत्न वे...

वेगवेगळ्या विशयांचेर आनी समाजाच्या वेगळ्या वेगळ्या पड्यावेल्या प्रस्नांचेर आदारून बरयल्ल्यो ह्यो कथा. बरोवप्याच्या अंतर्मनांतल्या संस्कारांचीं पाळांमुळां आनी विज्ञानिक बुद्धिनिष्ठा हातूंत हे थेंबे... तत्कालीक प्रस्नांक सामखारा वचप अशें थारूंक ना. जाल्यारीय अडिल्लें असहाय्य जिवीत आनी ताचे आड अस्मितायेचो सोद घषवपा आंतरिक ओड आशिल्ली आनी तातुंतल्यानच शास्वत अशा जाणिवी खरा गांठपाची तांक आशिल्ली कथा अशें तिचें स्वरूप जालां. आनी गांवगिरे समाजजिवीत आनी तांचे प्रस्न भावुकतायेन मांडचे बदला शास्वत प्रस्न व्यापक अशा जिविताच्या संदर्भांत मांडपाचो यत्न ह्या कथांनी जाला हें म्हत्वाचें. सामाजिक जागृताय, लेखकाच्या जिवितांतले अनुभव आनी तांची व्यापकताय हांकां लागून जिवितांतल्या शाश्वत मुल्यांचो... घेवपाची तांक आनी दिका कोंकणी कथेक लाबूंक पावल्या अशें ह्या झेल्याक येवकार दितना म्हळ्यार अतितायेचें जावंचें ना.

मधुसूदन जोशीच्या रुपान कोंकणीक एक नव्या जाणिवो, नव्या अणभवविश्वाचो आविश्कार करपी कथाकार गावला. ताचें स्वागत!

* * *

**पोंच**

**आत्मवंचना**

(तीन-आंकी नाटक)

पुंडलीक नायक

अपुरबाय प्रकाशन, वळवय १९९६

पानां: ६८

मोल: ३० रुपया

 Regd. No. GOA